# युवांकूर

## (2009)

**गोवा कोंकणी अकादेमी**

आनी

**फादर आग्नेल महाविद्यालय, पिलार**

हांच्या जोडपालवान

16 आनी 17 फेब्रुवारी 2008 ह्या दिसांनी जाल्ल्या

णव्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलना निमतान

घेतिल्ल्या सर्तींनी इनामां फावो जाल्ल्या साहित्याचो झेलो


संकलक :

**राजश्री महाबळेश्वर सैल**






**गोवा कोंकणी अकादेमी**

युवांकूर - 2009
(कथा, कविता/गीत आनी
निबंद हांचो संग्रह)

YUVANKUR - 2009
(Collection of Short - Stories,
Poems/Songs and Essays)

प्रकाशन क्र. 130

Publication No. 130



प्रकाशक :
गोवा कोंकणी अकादेमी,
243, पाटो कॉलनी,
पणजी, गोंय

Publisher :
Goa Konkani Akademi,
243, Patto Colony,
Panaji, Goa

मुखचित्र आनी छापपी :
रुतू ऑफसेट,
वळवय, फोंडें, गोंय

Cover & Printer :
Rutu Offset,
Volvoi, Ponda - Goa

पयली आवृत्ती :
फेब्रुवारी 2009

First Edition :
Feb. 2009

मोल : रु. 50/-

Price : Rs. 50/-

# मांडावळ

• गोवा कोंकणी अकादेमीचे वतीन
• प्रस्तावना : राजश्री महाबळेश्वर सैल

## कथा विभाग

| | | |
|---|---|---|
| तृष्णा | – विकास प्रभू | 11 |
| घराफाटलो आंबो | – जोफा गोन्साल्वीस | 19 |
| विपरीत | – रेश्मा सुर्लेकार | 28 |
| जिणेचो प्रवास | – मेल्कम डिकोस्ता | 35 |
| घोंटेर | – मार्कोस गोन्साल्वीस | 38 |

## कविता / गीत विभाग

| | | |
|---|---|---|
| आजये तुजी याद येता | – लालन मेघःश्याम पालयेकार | 47 |
| उलो | – तन्वी श्री. कामत बांबोळकार | 49 |
| जोताक बांदून | – मिनीन आल्मेदा | 50 |
| म्हजी जीण | – लिंडिया फेर्नांडिस | 51 |
| कवी हांव, कविता रचतलों | – ॲल्नीस रॉड्रिगीस | 52 |

## निबंद विभाग

| | | |
|---|---|---|
| गोंयकार नुत्या मोगी | – स्वाती चंद्रकांत बोरकार | 55 |
| सुर्लाच्या देंगणात | – मिना गणेश पर्येकार | 60 |
| भारत – आज आनी फाल्यां | – श्रीनिशा नायक | 65 |
| अशी ती जियेली | – जुझे सिल्वेरा | 70 |
| गोंयचो आनी गोंयकारांचो खऱ्यानीच विकास जाला? | – बबीता रायू सावंत | 75 |

• साहित्याच्या रचनाकारांचे नामे 80

# युवांकूर करपुचो न्हय, फळचो फुलचो

तरणाट्यांचे प्रतिभेक कोमऱ्यो आंकऱ्यो येवंच्यो आनी उप्रात ह्यो कोमऱ्यो आंकऱ्यो, फळच्यो फुलच्यो म्हण गोवा कोंकणी अकादेमी सातत्यान तरेतरेचे साहित्यीक उपक्रम राबयत आयल्या. तातुंतलोच एक उपक्रम म्हळ्यार युवा साहित्य संमेलनात एक युवांकूर उजवाडाक हाडप. तरणाट्यांचे प्रतिभेचो हो साहित्यीक अविश्कार वेंचीक आसता. संमेलनांतल्यान उर्बा घेवन जे नवे बरोवपी बरयतात, तांची उमेद उखलून धरून तांकां फुडें सरपाक बोट दिवप हो हेत.

गेली णव वर्सां जालीं गोवा कोंकणी अकादेमी हो युवांकूर उजवाडाक हाडटा, तातूंत फकत तरणाट्याचेंच वेंचिल्लें साहित्य आस्पाविल्लें आसता, हाचें कारण नव्या लेखकांक चडांत चड सुवात गावची.

जायते जाण तरणाटे चल-चलयो हे पिरायेर कॉलेजिंनी - विद्यापिठांनी शिकतात. उमेदीची अमुरपिकी पिराय. मौजमजा करपाचे दीस, जिणेंतलो वसंत ऋतू मुसमुसून वोत्ता, अशा वेळार कितेंय बरयन दिसता, कविता रचीन दिसता, चड मोगाच्यो बी, पूण जेन्ना हो भार वो अंवसर निवळटा, शिक्षणाच्यो शिमो हुंपश्यो आसतात तेन्ना हेच तरणाटे आपणाली साहित्याकडची लागणूक विसरतात. ते मागीर वेगळ्या अशा पोटपाणयाच्या, वेव्हारी दुनियेंत पावतात आनी तांकां मागीर बरोवपाक वेळूच मेळना. हे असले उखलापे साहित्यीक वयलेचाराचे बरोवपी, कवी, कथाकार, नाटककार, कोमरी फुटचे पयलीं करपून गेल्ले पळोवक मेळटात.

आनी मागीर गोवा कोंकणी अकादेमी जी उर्मी उमेद जावं बरो फुडार कोंकणी साहित्याचो पळेताली ताजो चोथो जाता आनी पडटा पदरात

फकत निराशा.

आयजवयर णव युवांकर प्रसिद्ध जाले, शेकड्यांनी तरणाट्यांनी बरयलें, कवी, कथाकार, नाटककार, निबंदकार, खीणभर साहित्याच्या मळबांत जोगूल कशे चमकले, आनी तांच्यो उल्का जावन ते खंय नानपय जाले?

फाटीं वळून पळेतकच हो अणभव गांठीक मारून, परत निराशी जायनासतना गोवा कोंकणी अकादेमी दर वर्साचें आपणाले साहित्य व्रत सोडिना. अंदूय हें व्रत पाळपाक गोवा कोंकणी अकादमीचे धावें युवा साहित्य संमेलन संपन्न जाता.

नव्या बरोवप्यानी कोंकणी साहित्य शारदेची अशी फकांडा करचीं न्हय, साहित्यकारानी सोपूत घेवचो, निर्धार करचो, इच्छा बाळगुची साहित्य साधनेची. लेखक, कवी, साहित्यकार जावपाची, सतत बरोवपाची आनी एक तरी पान दिसपट्टें बरोवपाचो सोपूत. तरणाट्यांनो, घेवशात असो सोपूत तुमी आता तरी?

**एन. शिवदास**
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

# युवांकूराविशीं...

णववें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन शेनवार 16 आनी आयतार 1 फेब्रुवारी 2008 ह्या दिसांनी फादर आग्नेल महाविद्यालयाच्या र. वि. पंडि नगरांत व्हडा दबाज्यान जालें.

गोवा कोंकणी अकादेमी आनी फादर आग्नेल महाविद्यालयाच्य जोडपालवान हें संमेलन घडोवन हाडिल्लें. डॉ. माधवी सरदेसाय सारर्क गडंगज संमेलनाध्यक्ष संमेलनाक लाबिल्ल्यान संमेलनाक एक भारदस्तपण आपशीच आयलें, आनी गोंयच्या चारय कोनश्यांतल्यान कथा, कविता, निबंद हाचो पावस पडलो.

ह्या संमेलनांत तरणाट्या बरोवप्यांच्या वेंचीक साहित्य रचनेचेर दुसरें दीस चर्चा करून तांकां मार्गदर्शन करपी कार्यशाळा घडोवन हाडिल्ल्यो. कथा कार्यशाळेचे अध्यक्ष आसलें पुंडलीक नायक, जाणकार आसलें प्रियदर्शनी तडकोडकार, दामोदर मावजो आनी भालचंद्र गांवकर.

कवितेच्या सत्राचे अध्यक्ष आसले रमेश वेळुस्कार, जाणकार आसलें अरुण साखरदांडे, राजय पवार, प्रकाश दत्ताराम नायक.

निबंद सत्राचे जाणाकर आसलें दिनेश मणेरकर, प्रा. भुषण भावे, प्रकाश पर्येकार.

साहित्य संमेलनांतल्यान सातत्या दवरपी साहित्यीक घडोवप हो आमचो हावेस, युवा साहित्य संमेलनाचो हो वावर कोंकणी चळवळिचो महत्वाचो वांटो. ह्या युवा साहित्य चळवळिचीं अमृतफळां आयज न्हय तर आनी धा-वीस वर्सांनी तुमकां निश्चितपणान पळोवंक मेळटली जेन्ना

ह्याच चळवळींतल्यान तयार जाल्ले कथाकार, कवी, समिक्षक, मुखावेली अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनाची माची गाजयतले.

एक गजाल हांगां सांगूक जाय, ती म्हळ्यार आयज कोंकणी समाजाक एका सुत्रात बांदपाची आमी खबर करतात. ती मुखावेल्या काळाची गरज आसा, कोंकणी तिगतली जाल्यार खंय खंय फांफसल्लो कोंकणी समाज तिगूंक जाय आनी ताचेखातीर तो एका सुतात बांदून येवंक जाय. तेन्ना एक सांगन दिसता मुखावेली हीं युवा साहित्य संमेलनां अखिल भारतीय पांवड्यार करचीं, भारतभर कोंकणी बरोवपी खांची कोनश्यांतल्या, कोंकणी तरनाट्याक तुमी एकठांय हाडात. कोंकणी मनीस एक जातलो. सगल्यो परंपरां फास्क्यो मोडून उडवपाची तांक फकत तरणाट्यो रगतांतच आसता.

ह्या संकलनांत कविता, कथा, ललित लेख, ह्या साहित्य प्रकारांतल्या सर्तींनी इनामा फावो जाल्ल्या साहित्याचोच आसपाव आसा.

पयलेच फावट एक नाविन्य म्हण आमी वण्टीपत्रकांची सर्त घडोवन हाडलां, तांतूंत पयलें इनाम 'मोरपाखां' (सेंट फ्रासिस्क झेवियर), दुसरें 'अक्षर पावस' (गोंयविद्यापीठ) तिसरें 'आंकूर' (मनाचो हारसो) हांका फावो जालें.

कथा विभागात 'तृष्णा' ही विकास प्रभू हांची कथा, शैलीचे वेगळेपण, कथाबीज फुलोवपाचें तंत्र, चमत्कृती अश्यो काय जमेच्या बाबी ह्या लेखकांत आसात.

'घराफाटल्यो आंबो' जोफा गोन्सालवीसान सातत्य दवरल्यार बरो फुडार आसा. नकसूद उतरांवळ, सोबीत मांडावळ, आपली खाशेली भास शैली हांकां लागून ती वाचप्याक मंत्रमुग्ध करता. कविता विभागांतली

'आजये तुजी याद येता' ही बाय लालनमेघःशाम हाची कविता, आजयेचं याद आनी ह्या विशयाचेर केल्ली शब्दरचना सुंदर. 'उलो' ही तन्वी श्री कामत बांबोळकराली कविता. कवितेची मांडणीय उल्याच्या रूपान केल्या. अश्या मांडणेची कविता कोंकणीत खूब उण्यो आशिल्ल्यान ती एका नव्याच वाटेन वता म्हणूक जाय.

निबंद विभागातल्या स्वाती बोरकार हिच्या 'गोंयकार नुस्ताचे मोगी' हो निबंद अभ्यासपुर्ण जाला. आपल्या विशयाक जाय आशिल्ल्यो म्हणी, वाक्यप्रचार, हुमाणीं, खबऱ्यो खूब सुंदर तरेन तिणें जमयल्यात आनी मांडल्यात.

जिवनाकडेन पळोवपाची एक वेगळी नदर ह्या युवा साहित्यीकांकडेन आसा. वैज्ञानीक दृष्टीकोणय आसा. फक्त जाय तो अभ्यास, वाचन, चिंतन आनी साधना. चारांचो जर तांणी एकमेळ केलो, जाल्यार फाल्यांचे यूग तांचेंच आसा.

**– राजश्री महाबळेश्वर सैल**
कार्याध्यक्ष
णववें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन




# तृष्णा

- विकास प्रभू

दोंगुल्लेच्या उतरणेवेल्यान प्रवासी आपली झोळी सांबाळीत एका दांड्याचो आदार घेत घेत सकल देंवतालो. जर्जर जाल्लें शरीर ताच्या फुडल्या प्रवासाक आतां साथ दिवपाक तयार नाशिल्लें. दर्याच्या ल्हारांवेल्या धव्याफुल्ल केसांवरी दिसपी ताचे केंस वाऱ्यार उडटाले. तेन्ना अश्वमेध घोड्याच्या मानेवेल्या वाऱ्यार उडपी केसांची याद जाताली. पिकिल्लें खाड ल्हारांनी आपलो फेसाळ स्पर्श रेवेंचेर पातळचो तशे तें केस गळ्याभोवंतणी उळउळटालें. पयसुल्यान लेगीत कोणय ताचे बरगडेचीं हाडां मोजूंक शकतालो. थंय हाडाचो सापळोच आशिल्लो. जशें मांस म्हळ्यार कितें हें तांणी पळयल्यार कितलींशींच वर्सां जाल्लीं. एका ताणिल्ल्या धनुष्यावरी ताचो फाटीचो कणो असो बावगल्लो. जशें पळयतल्यांक दिसतालें खंयच्याय खिणाक तो मातयेचो गंध घेतलो आनिक स्वत- संवसारांतलो तृप्त मनीस समजतलो. आंगावेली कात चुरगळिल्ल्या वस्त्रावरी संपूर्ण आंगार पातळिल्ली. आंगावयली वस्त्रां कवचावरी ताच्या आंगार कितलींशींच वर्सां चिकटून पडिल्लीं, पूण जाग्याजाग्यार आपल्या जाण्टेपणाच्यो खुणो ती आवर्जुन दाखयताली. ताच्या चलण्यात आतां ती पयलीची अदब नाशिल्ली. ताचें चलणे व्हडल्या प्रवासान थकिल्ल्यावरी कितें मेळवचेपरस विचारांच्या चक्रांत वाट.काडपी अभिमन्यूवरी आशिल्ले. विचारचक्र ताच्या गतीक खंय तरी बांधता काय दिसतालें. ताचे खांद्याक एक झोळीं आशिल्ली जातूंक आजपर्यंतच्या जिणेतल्यो कितल्योश्योच यादी भरिल्ल्यो ज्यो ताच्या मनांतय ताणें भरून दवरिल्ल्यो.

उतरणी देवतां देवतां ताका पुरो जालें. आतां एकय पावल मुखार सरचे नां. इतल्या वर्सां उतरांत्त कांय खीण विश्रांती घेवपाचो विचार तकलेक आफडून गेलो आनी ताचो शीण आनीकय वाडलो. ताणें आपल्या लिकलिक्या दोळ्यांनी हेवटेन तेवटेन पळयलें. कडक वताचे चटके अशे आंगाक जळयताले जशे चारीदिकांनी उजो पेटिल्लो. ताच्यान ते चटके आतां सहन करूंक जावपाचे नाशिल्लें...

दावे वाटेन ताका एक सानशी वाट दिसली. कांय पावलांमुखांर एक वडाचें झाड दिसतालें. कांय खीण चिंतून ताणें आपलीं पावलां ते दिकेन फिरयलीं...

पयस मेरेन पातळिल्लें वडाचें झाड कितलींशींच वर्सां एका आगळ्या वेगळ्या साधनेखातीर स्तब्ध उबें आशिलेंशें दिसतालें. तें पातळिल्ले तें पळयल्यार ताचोय हावेस सगळी सृश्टी गिळपाचो आशिल्लो काय असो प्रस्न कोणाकय पडटालो. भरगच्च पानांनी भरिल्लें झाड. सुर्याचें एखाद्रें किरण व्हडल्या कश्टान सकयल देंवतालें. झाडाच्यो फांद्यो हेवटेन तेवटेन पातळिंल्यो. त्या हातांचीं बोटां कशीं लांबच्या लांब पाळां जमीनीत खोल मेरेन वचून ते झाडाक सासणाची उबीं दवरून आशिल्लीं. झाडांच्या मुळांक वाऱ्यान पानां मातशी हाललीं म्हणटगीर सुर्यपिलां आपालिपा खेळटात अशें दिसतालें. एक भग्न म्हालांत प्रवेश केल्यावरी भास जातालो.

प्रवाश्यान हेवटेन तेवटेन पळयलें. थंय ताच्या सांगाताक कोणूय नाशिल्लो. एखाद्रें जनावर वा एखाद्रो पक्षी दिसताकाय म्हण पळोवपाचो प्रवाश्यान यत्न केलो, पूण पयस मेरेन ताचे नदरेक कोणूय पडलो ना. आपली झोळी थंयच उडोवन तो पट्कन सकयल बसलो. ताचो स्वास मंद जावपाक लागिल्लो. खूब थकिल्लो तो. पोटांत भुकेचे कावळेय रडटाले. फाट तेकोवंक एका मुळाचो आदार घेवन ताणें फाट तेंकयली. पांय लांब सोडले आनी दोळें धापून घेतले. कांयवेळ भयाण अश्या शांततेक ताणें आपल्याभितर सांठोवन घेतलें. फाटल्या जिणेंतल्यो कितल्योशोच यादी ताच्या दोळ्यांमुखार सांवळ्यो जावन नाचूंक लागल्यो.

ताचो जल्म खंय जालो, केन्ना जालो हें ताकाय खबर नाशिल्लें. भुरगेपण ताचें तितलें व्हड अपुरबायेन गेले नां पूण तो जेन्ना किशोर वयांत उतरलो तेन्ना ताचे

रगत सामकें सळसळटालें. खांद्यार सगळ्या सृश्टीचें वजन पेलपाची तांक तांचे भितर दिसताली. दोळे मोत्यांवरी तशेच निळ्या सागरावरी अथांग आशिल्ले. खांद्यामेरेन वाडिल्ले केंस वाऱ्याच्या थोड्याश्या स्पर्शान खुशालभरीत जावन फुलताले. अचलीक वाऱ्यार उडटाले. मनगटांत शिवधनुष्य उखलपाची तांक दिसताली तर ताच्या चलण्यात तो नेट आशिल्लो. जसो एक राजकुंवर आपल्या राज्यांत आपल्या प्रजेचें अभिवादन स्विकारपाक वता तशें ताचें चलप आशिल्लें. सुर्याचें तेज ताच्या तोंडार दिसतालें. ताचो आवाज धारधार एका तलवारीवरी सरळ काळजात घुसतालो. तातूंक खोचीक वेदना नासून मंत्रमुग्ध करपी संगीत आशिल्लें. पूर्णपणान वस्त्रांत धांपिल्लो आसूनय ताच्या शरिराची बळकटताय स्पश्टपणान दिसताली.

फुलपाखराच्या पांखांवरी कोमल ताची कात व्हडल्या व्हडल्या राजकुंवरांक लेगीत ताचेमुखार आपलो देह लिपोवपाक लायतली अशी आशिल्ली. तो ज्या गांवांत, शारांत वतालो ताका पळोवपाक सगळ्यांच्यो नदरो आशेताल्यो.

पूण तरीकय ताचें विश्व या सगळ्या विश्वांत आसूनय वेगळें आशिल्लें. सगळ्या संवसाराची जाणीव जावचेपयलीं सावन आपल्या मनांत ताणें असंख्य अश्या गजालींच्यो आकृत्यो कोरिल्ल्यो, सांठोवन दवरिल्ल्यो. आकृत्यो कसल्यो सावल्यो त्यो, अस्पश्ट अंधुकशो. मळबांतल्या नखेत्रांवरवी मनाच्या मळबांत त्यो आपालिपा खेळटाल्यो. ऐन तारुण्याच्या धडेर ताका हे आकृत्यांक अस्तित्वांत हाडपाची उमळशीक लागिल्ली. ताचो सोद घेवपाची इत्सा ताका रातीची न्हीद लेगीत घेवंक दिना आशिल्ली. कसली तरी जीवघेणी ओड ताका आपले दिकेन एका चुंबकावरी ओडटाली. तो दीसरात अस्वस्थ रावंक लागलो. जेवणखाण कांयच गोड लागना जालें. तो एकटो आसतना ताच्या मनांतल्यो त्यो सांवल्यो एक एक करून ताचे मुखार उब्यो रावताल्यो. तर कांयवेळार ताच्या फाटल्यान फाटल्यान कितल्योशोच पयस लेगीत त्यो प्रवास करताल्यो.

शेवटाक एक दीस ताणें आपल्या जिणेचो म्हत्वाचो प्रवास सुरू केलो. मुखार दिसतालें ते पयस म्हळ्यार पातळिल्लें मळब आनी खडकाळ वाट. पूण ताची

जिद्द इतली कणखर आशिल्ली की आतां मुखावेली वाट कशीय आसली तरी ती चलपाची पुराय तांक ताचे भितर आशिल्ली. ताच्या पंखांत एक वेगळेंच बळगें आशिल्लें. ताका दिसतालें तें फुडलें विशाल मळब...

कितल्याशाच दिसांचो प्रवास निरंतर चालू आशिल्लो. पायांचे बळगें अजून कमी जावूंक नाशिल्लें. मनाची उमेद दिसान दीस वाडत वताली. तान-भूक कशी भागताली हाचो लेगीत विचार करूंक फावो नाशिल्लें. एक अद्भूत शक्त आंगांत रिगिल्ली. सूर्य येताले, चंद्र येताले. पांयांमुळांतली वाट सर नाशिल्ली...

अचकीत एक दीस तो एका अशा राज्यान पावलो ज्या राज्यांत सगळे व्हडा उमेदीन रावताले. थंय झगडी झुंज कांयच ना. फकत आसा ती सपनांची जीण. काळोख्या रातीचें सावट ना. दुःखाची साय ना. आसा ती म्होवी म्होवीं सुखां. ते राज्यांत इतलें सूख समाधान कशें आयलें ताचे कारण सोदपाची ताका तीव्र इत्सा जाली. देखून ताणें त्या राज्याच्या राजाक मेळपाचें थारायलें आनी तो सरळ राजवाड्यांत आयलो.

त्या राजवाड्यांत राज्य करताली एक सुंदर राजकन्या. तिचें सौंदर्य या भूतलाचेर एक अप्रूप कशें आशिल्लें. एक फावट तिका पळयिल्लो मनिस सदांखातीर एका गोड सपनांत वावरतालो. मोगाचें संगीत ताच्या चारी दिकांनी आयकतालें. तिच्या दोळ्यांत मोगाचो सागर दिसतालो. सगळे तिका चन्द्रमुखी म्हणटाले. चंद्र लेगीत तिका पळोवन लजेवन कुपांआड लिपतालो. तिच्या चलण्यांत एक आगळी वेगळी मादकता आशिल्ली. दिसतालें ती जर हलक्याच पावलांनी एका विणेवेल्यान चलत गेली तर सगळ्यांक मंत्रमुग्ध करपी संगीत निर्माण जातलें. काळे कुळकुळीत केंस पळोवन दिसतालें, तिणें तें मेकळे सोडले तर सगळ्या संवसारांत रात फांकतली आनी चांदण्यो ल्हवूच येवन तिचे ते केंसांत सजतल्यो. संवसारांतली सगळीं सुखां तिच्या पायाकडेन येवन सुखावतालीं. तिच्या पापण्यांच्या इशाऱ्याचेरच मळबांत सूर्य चंद्र उदेतात काय असो भास तिच्या नदरेंत पळयतगीर जातालो. तिका पळोवन तोय स्तब्ध उरलो जाल्यार ती लेगीत ताका पळोवन मंत्रमुग्ध जाली. पयल्याच खिणाक तिका पळोवन ताका मनांतल्यान दिसलें की तिच्या

कितल्याश्याच सावळ्यांमदली एक सावळी प्रत्यक्षात ताच्या मुखार उबी रावल्या. ताका मनांतल्यान इत्सा जाली 'ही म्हजी जावची!'

फुडल्याच खिणाक ती दोगांय त्या म्हालांत एका अतूट बंधनात बंदिस्त जाल्लीं. कांय दिसांखातीर तो तिच्या भितर आनीक ती त्याच्याभितर मिसळून गेली. संवसारांतल्यो सगळ्यो गजाली विसरून म्होव्या सागरांत विहार करतालीं, पूण हें काय दिसांपुरते मर्यादीत उरलें आनी एक दीस अचकित ताच्या मनांतल्यो जुन्यो सांवळ्यो परत्यो ताच्या मुखार येऊन नाचूंक लागल्यो. ती राजकन्या ताका तांच्यापरस वेगळी दिसूंक लागली. एक दीस तिका न सांगतां सगळें सूख सोडून ताणें फुडल्या प्रवासाक सुरवात केली...

एक दीस प्रवाशाक कळ्ळें की ताचो हो प्रवास ताका घोड्यांच्या जगतांत घेवन आयला. जंय कितलेशेच घोडे हेवटेन तेवटेन भोंवताले. मान सकयल घालून एखाद्या गुलामावरी मेळटा तें खावंचें, पड्टा ते काम करूचें अश्या अविर्भावांत ते भोवंतना दिसताले. घोड्यांचीच दुनियां. मनश्यांक थंय थारो ना. तरीकय तो ही अजापाची गजाल पळोवंक आनी फुडें गेलो. थंयच्या असंख्य घोड्यांमदीं एक शुभ्र ढगावरी दिसपी एक घोडो ताठ मानेन चलतालो. ताच्या बरोबरीन आनीक कांय काळे तपकिरी रंगाचे घोडें आशिल्ले. तें ताच्या फाटल्यान फाटल्यान चलताले, ताचे पायांचे स्नायू मदींच ताठर जाताले आनी तांचे भितर एक आगळी वेगळी लय निर्माण जाताली. तो फुडले पांय उबारून फाटल्या दोन पांयांचेर उबो रावतालो तेन्ना दिसतालें आपल्या फुडल्या पांयांनी मळबाक पेलतलो. अचकीत मळबांतल्या शुभ्र कुपांचेर स्वार जातलो आनी वाऱ्याच्या वेगान सगळी विश्वाची भोंवडी करून तिन्ही लोकांत आपले राज्य प्रस्तापित करतलो. म्हणच तर ताका अश्वमेघ म्हण सगळे वळखताले. ताच्या खिंकाळपाच्या आवाजान सगळें मळब गाजतालें. झाडांपेडां थरथरतालीं. आजमेरेन ताचेर स्वार जावन सगळ्या विश्वाची भोवंडी करपाचें धाडस कोणें करूंक नाशिल्ले. ताका पळोवन प्रवाशाची ताचेर स्वार जावपाची उमेद वाडली. ताची इत्सा तिव्र जालीं आनी कितें कळच्यापयलींच तो एके झोपयेंत घोड्याचेर स्वार जावन सगळ्या विश्वाची भोवंडी करपाक ताणें

सुरवात केली. हें सगळें अशें अचकीत कशें आनी कित्याक घड्टालें हें ताकाय कांय वेळार कळनाशिल्लें, पूण ते घोड्याक पळयतगीर ताच्या मनांतली आकृती ताच्या मुखार अस्तित्वांत आयल्यावरी ताका दिसलें. ताची इत्साशक्ती प्रबळ जाली. सगळ्या विश्वांतलो एकमात्र असो तो अश्वमेध घोडो ते खिणासावन ताचो गुलाम जालो.

आतां ताणे चिंतलें की फुडलो प्रवास, ताचो सोद हो ह्या घोड्याचे सांगातानच करचो आनीक देखून ते घोड्याचेर स्वार जावन ताणें आपलो फुडलो प्रवास सुरू केलो. आतां फाटल्यान वळून पळोवपाची कांय गरज ताका दिसली ना. काळीं कुपां, केन्ना धवीं कुपां एका फाटल्यान एक फाटीं पडटालीं. कितले दीस कितल्यो राती प्रवास चल्ला हांचे भान ताका नाशिल्लें.

एक एक दीस ताणें ह्या कुपांच्या जगांत एक सुंदरसो बंगलो पळयलो. अळंग हुमकुळल्यावरी ताची रचना केल्ली. सगळ्या धर्तरेची भोवंडी करून लेगीत असो बंगलो ताका केन्नाच पळोवपाक मेळ्ळो नाशिल्लो. त्या बंगल्याच्या चारी दिकांनी शुभ्र अशें धुकें पातळचें तशीं पिंजिल्ल्या कापसावरी मुलायम कुपां पातळिल्लीं दिसतालीं. सुवासाक लेगीत लजयतलो असो तो गंध. मनाक एक आल्हादक अनुभूती दितालो. संपूर्ण भांगराचो तो बंगलो पळोवन कोणाकय लालसा जातली. ते बंगल्यांत भितर वचापाची... संपूर्ण बंगल्यांत तांबडोगूंज मुलायम गालीचो पातळिल्लो. ताचेर चलतना दर्यावेळेर थंडश्या बारीक रेंवेंत पांय रुतचे तसो भास जातालो. पायांच्या तळव्यांत जी शितलताय थंडाय मेळटाली ती सांगप कठीण... ती अनुभूती तो अणभव मनाच्या, चित्ताच्या कोणश्याक तो खिणाखिणाक साठयतालो. ताका दिसलें अशेंच तासनतास ताचेर चलत रावचें.... ताका कितें तें कळचेपयलींच ताचीं पावलां केन्नांच ते दिकेन पडूंक लागिल्लीं...

तो भितर सरनाफुडें अनेक फातरांच्यो मूर्त्यो जिवित जावन ताचे मुखार दास जावन उब्यो रावल्यो. ताचें उतर म्हळ्यार हिरे माणकां कशीं वयल्या वयर झेलपाक त्यो आशेवन रावताल्यो. एका खिणाक ताची इत्सा ताचेमुखार उबी करपाची तांची चढाओढ ताका दिसताली.

हे घडयेक ताचेकडेन सगळ्या सुखाची आरास आशिल्ली. ते सगळ्या सुखांची ुलना आपल्या मनांतल्या आकृत्यांकडेन करूनय ताणें हीं सुखां आपणायिल्लीं, ूण तरीकय ताका दिसलें ही सुखां आपल्या मनांतल्या आकृत्यांपरस वेगळीं आसात. ताचें मन शांत जायना..

मनात अजुनय एक वेगळीं तृष्णा साठवन आशिल्ली. ती कमी जावूंक नाशिल्ली. ती कमी जावचीय नाशिल्ली. मनात त्यो सांवळ्यो परत परत जित्यो जाताल्यो... ही म्हजी मोख न्हीच... कितें तरी वेगळें आसा, जें म्हाका जाय असो विचार करून ताणे सगळें कितें थंयच सोडून आपलो प्रवास सुरू करपाचें चितलें.

दुसऱ्याच खिणाक तो टेकडीच्या सगळ्यांत वयल्या तोंकार म्हळ्यार तिच्या तेमकार उबो आशिल्लो. जंयसावन ताका आतां सकल दें‌वपाचे आशिल्लें. तो जाणा आशिल्लो. ताणे दोंगुल्ली देवूंक सुरवात केली. तेदेवेळार ताच्या चलण्यात, ताच्या दिसण्यात, ताच्या ताकदीत जायतें बदल घडत आशिल्ले...

... सगळीं फाटलीं चित्रां सडसडीत एकाफाटल्यान एक दोळ्यामुखावयल्यान गेली आनीक आपलें अतीत याद काडून ताणे दोळें उगडले. ताच्या कुडींतली सगळी शक्तच गेल्यावरी ताका दिसली. ताचे मुखार एक विशाल आकृती उबी आशिल्ली. सगळें फुडें दिसतालें तें अप्रृपच कशें.

अशी आकृती हाचेपयलीं केन्नाच दिसूंक नाशिल्ली. ताचेमुखार प्रवासी एका सरपटत वचपी किड्यावरी दिसतालो. ताचे केंस कमरे मेरेन वाडिल्ले. दोळ्यांतल्यान उजो ओंकता काय दिसतालो. ताचें पांय म्हळ्यार भग्न मंदिराचे गडगंज खांबे कशें. प्रवाश्याक एका चिमटेन तो उबारून आपल्या तोंडांत घालतलो आनी नाच करतलो काय कितें अशें दिसतालें. ताच्या खांद्यां-मनगटांचे बळगें हजार हत्तींच्या बळग्यांवरी आँशिल्ले. पळोवन तोंडातलें उतर कायमचे ना जाता काय अशें दिसतालें. ते वडाच्या झाडापरस ताचो देह कितलोसोच लांब-रुंद आशिल्लो. ताणें हासून प्रवाशाकडेन पळयलें, "कितें जालें, सोंपलो तुजो प्रवास?"

ताचो आवाज एका राकेसावरी सगळ्या सैमाक भेसडावपी आशिल्लो. खवल्या

खवल्यांच्या कातिवेल्यान हात भोंवडावचो तसो तो आवाज सगळ्या आंगार मना खरखरीत भोंवलो.

"हय, आतां चित्तांत, मनांत कसलीय आकृती आनीक उरली ना. त्यो सांवळ्योय हाचेफुडें प्रकट जावंच्यो नात." प्रवासी शांतपणान उलयलो.

"खऱ्या अर्थान तो तुजो प्रवास नाशिल्लोच. तूं कुड्डो जाल्लो भौतीक सुखान. ती तुजी तान आशिल्ली. एक मेळ्ळें काय दुसरें जाय. तें मेळ्ळें काय तिसरें जाय. केन्नाय न सोंपपी तान... खऱ्या अर्थान तुजो प्रवास आतां सुरू जातलो. तोय म्हज्या बरोबरीन..."

"हय खरें तुजें, आजमेरेन हावें जें कितें केलें तें कुड्डेपणान केल्यावरी दिसता. म्हजी इत्सा केन्नाच भागली ना. ती एखाद्री म्हजी मृगतृष्णा आसूंये" प्रवाशान शीण आवाजान ताका सांगलें.

"क्षितिजाकडेन पळोवन ताका हात लावपाची इत्सा मुजरत दवरची, पूण अस्तित्वांत कितें आसा हें लेगीत विसरूंक फावना. सपनांचे जग हें अस्तित्वाच्या जगापरस वेगळें आसता. मनीस आपल्या जिणेच्या प्रवासांत सगळी सपनां मेळयता, पुराय करता. कांयवेळार नाका तें लेगीत आपणायता पूण प्रवासाच्या शेवटाक म्हऱ्यान कितें उरता. फक्त तांचे अवशेष. कारण जें मेळयलां तें पोरणे दिसूंक लागता. मेळतगीर तांचे मोल असना. देखून म्हऱ्यान आसुनय तें अशिल्ल्याचें सुख भोगिनास्तना ना ताचेखातीर शेवट म्हळ्यार धडपडटा. तुका जाय पयलें कितें तेंच तूं थारावूंक शकलो ना, तेंच तुजें चुकलें. आतामेरेनचो तो प्रवास विसर आनीक फुडल्या प्रवासाची तयारी कर. जी तुका म्हज्याबरोबरीन करपाची आसा. चल..."

प्रवाशान हताशपणान मान सकयल घाली. ते आकृतेन प्रवाशाची झोळी काडून टेकडीच्या तेवटेन आशिल्ल्या दर्यान मोखली. प्रवाशाक एका चिमटेन उखलून खांद्यार दवरलो आनीक एका-एका दांगांत मैला मैलाचें अंतर कापीत अस्तमतेकडेन तो नाच्च जालो...



# घराफाटलो आंबो

- जोफा गोन्साल्वीस

"बाबो, आंब्या झाडाक फुलां येतात."

आपल्या पुताची उतरां आयकून आंगणांत वताक उबो आशिल्ल्या राघोबान घराफाटल्यान नदर फिरयली. खरेंच घराखोपीक तेंकून आशिल्लें आंब्या झाड निकतेंच चंवरूंक लाग़िल्लें. धांडी मारिनासतना वर्सान वर्स फुलता तर... आपल्या आंब्याचें राघोबाक खीणभर कवतूक दिसलें.

"दंव पडून करपून वचों. आमच्या तोंडात पडपा ना."

चुलीर पोळे भाजता आसतना राघोबाची बायल तापली.

"कितेंय जावं. आंबो जातीय फर्स्ट क्लास हां. न चुकता फुलता पळय."

"तोरां लागतकच बरोऽ सांबाळ. पिकतकच येतली व्हरपाक."

राघोबा कांय उलयलो ना. फाटलीं दोन वर्सां घोसांनी लागून लेगीत आपल्या पुताक एक आंबो चोखूंक मेळूंक ना हाची खंत राघोबाच्या तोंडार उदेली.

दोन वर्सां पयलीं पयलेच फावट आंब्याक चंवर फुटिल्लो तेन्ना सगळ्यात पयलीं राघोबाचो चेडो बाबूच्या नदरेक पडिल्लो. जणू कांय तो आंबो फुलपाची वाट पळयतच आशिल्लो. दिसवड्याच्या कामाक सावन सांजे घरा परततकच ताणें बापायच्या हाताक धरून ओडीत आंब्या मुळांत व्हेलो आनी हात वयर करून आंब्याच्या ताळयेर निकतोच फुटपी चंवराक बोट दाखयलें.

"बाबू, फुलांक बोट दाखयनात हां. बोट दाखयल्यार आंबे जायनात. बोगीन

बोट चाब.''

आवयचीं उतरां आयकून बाबून बेगीबेगीन हात सकयल काडलो. आनी बोटाक जोरान घांस माललो.

''बाबो, बोट दाखयल्यार खरेंच आंबे जायनात रे.''

बाबू बाबडो रडकूरो जालो.

''चुकून दाखयल्यार कांय जायना.''

... अंदूं पोराक चार आंबे चोखूंक मेळटलें. राघोबान आनी बायलेन मनांतल्या मनांत हिशोब केलो. आंबे म्हळ्यार बाबूचो जीव. आंब्या दिसांनी बाजारांत गेल्यार आंब्याखातीर बाबूचो सदांच हट्ट. पूण चुकून लेगीत केन्ना एक तोर विकतें घेवन बाबूक हाडून दिवप राघोबाक जमलें ना. दिसाक दोन वेळचें जेवण मेळूंक मारामार थंय असल्या मोलादीक खाणाची रुच कशी परवडटली.

एक दीस घसफाटल्यान आपशींच किल्ललें ल्हानशेंच आंब्या रोप राघोबाच्या नदरेक पडलें.

''हांगा पारो कोणे उडयलो काय? बरेशें रोप जालां.''

तांणे बायलेक म्हणटलें.

''थंय आनी पारो कोण उडयतलो. पावसान खंयूय सावन व्हांवन आयला आसतलो.''

''पारो बरो गोल आसा. बऱ्या जातीचो आसतलो.''

राघोबान पांयांनीच रोप्या मुळांत माती ओडून उदक धरपाक आडस केलो.

''बाबू, तांबोभर उदक हाड रे.''

बाबून हाडिल्लें तांबोभर उदक राघोबान रोप्या मुळांत ओतलें.

''आयज सावन हाका विसर नासतना सद्दां उदक घालपाचें. घालतलो मरे बाबू. व्हड जातकच भरपूर आंबे लागतले.''

त्या दिसा सावन रोप व्हड जायमेरेन सद्दां उदक घालपाचो नेम बाबून चुकयलो ना. राघोबानय रोप्याची बरी वासपूर सेली. रोप व्हड जाता तशें भोंवतणी राखणेची वंय उभी जाली. राघोबा झाडाक वेळच्या वेळार शेण माती घालतालो

जाल्यार बाबू भाटांतल्या माडांक आळें सांवळ करतात तेन्ना हळूच मानायाची नदर चुकोवन माडामुळांत घातिल्लें बचकभर सारे झाडा मुळांत हाडून घालतालो.

आंब्या झाडाक आयिल्लो पयलोच चंवर पळोवन तिगांकूय सुमाराभायर खोस जाली. त्या दिसा सावन आंब्याझाडाची जतनाय अदीक वाडली. बाबून चुकून पसून केन्ना झाडावटेन बोट वयर केलें ना. घरा फाटल्यान आशिल्ले पांयवाटेन भाटांत वावराक भी आयिल्ले मानाय यो वच करताले. फाटल्यान कोणाचोय आवाज जालो जाल्यार बाबू धांवत आंब्या मुळांत येवन उबो रावतालो. कोणूय आंब्याक बोट भी दाखयत ह्या भंयान...

"अंदू थंडी खूब पडल्या. आंब्याक बरी न्ही. फुलां करपतलीं."

"हांवूय तेंच म्हणटालो."

बायलेन उक्तायिल्लो हुस्को राघोबाकय जाणवलो.

"सद्दां सकाळीं उदक मारल्यार कशें."

त्या दिसा सावन फुलांक कण फुट्टा मेरेन आंब्याचेर उदक मारपाचो घोव - बायलेचो नेम चालू जालो. बायलेन तळ्येर सावन उदक हाडप आनी राघोबान आंब्याच्या चंवराचेर चारूय वटेनी शेवंटावप. उदका वांगडा चंवराचेर दाटिल्लो दंव सकयल पडटालो. कांय दिसांनी आंब्याक घे म्हणून कण आयिल्ले पळोवन राघोबान उमेदीनूच बायलेक म्हळें,

"उदक मारून बरें जालें हां. एक फूल करपूकं ना. अंदू खंयूच आंब्यांक फुलां धरूंक नात."

"आंब्याची म्हण चूक आसा. शीं आनी दंव पडिल्लोच आकांताचो."

"आतां भंय ना. जातीन बरो जाल्यार पुरो."

एक दीस सकाळींच राघोबाक सोदूंक आयिल्ल्या पांडूची नदर दिस्तूच आंब्याचेर गेली.

"आंबो बरो धरलो तुजो. पानां आनी दिसनात मरे."

"पांडू माम, नदर भी लागत हां."

राघोबाचे बायलेन हांसतूच म्हळें.

पांडू फाटल्यान घोव-बायलेक बेश्टोच दुगदूग.

"पांडूची नदर बरी न्ही. आंब्याक बादना जाल्यार पुरो. पिडा कशी दिस्तूच पावलो."

"येतल्या वतल्याची नदर आसताच आंब्याचेर."

"ती कोयती हाड पळोवन सड्यार वचून इल्लें करड घेवन येता."

"बाबो, हांवूय येता रे."

बापूय पुतान सड्यार वचून वरणभर करड हाडलें. सांजेच्या आदेसाक दोगांयनी करडाचे दोन मनीस तयार करून आंब्याच्या दोनूय वटेनी उभे केले.

"बाबो, खरेलेंच मनीस कशें दिसतात."

दीस वतात तशें आंबो घरांतल्याच मनशांमदलो एक घटक जावन गेलो. सकाळी उठकच आंब्याचेर नदर घातल्याबगर तिगांकूय सूख लागना जालें. केन्नाय सकाळीं उठून राघोबा बायलेक सांगतालो,

"राती सपनांत कोणतरी तोरां काडून व्हरता."

"म्हाकाय राती आंब्याचें सपन पडलें. मोड येवन अख्खे झाडूच उमटून पडलां कशें."

"पाड पडूं तीं सपनां. तोरां दिस्त खळांत घालपाची जाल्यात. चार काडून चेपणांक उडयल्यार पावसाक तोंडाक उपकारतलीं."

"पयलेच फावट आंबो लागला आनी खळांत घालपाची कसली वान्सा. तोंडाक कितेंय मेळत."

फाटल्यान कसलो तरी आवाज जालो म्हण राघोबान आब्यावटेन नदर फिरयली. पळयल्यार दोन तीन माकडांनी आंब्यार उडी घेतल्या.

"धरऽताका.... माकड पावले आंब्यार."

बापायचो आवाज आयकून बाबू बोंवाळ घालीत आंब्यामुळांत धांवलो. बोंवाळान माकड आशिल्ले तशे परतले. पूण उडये सरशीं घोसांनी लागिल्ली कितलीशींच तोरां तुटून मुळांत पडली.

"बाबो, कितलीं तोरां झडयली पळय."

तिगांयचेय काळीज चुरचुरलें.

"मोर येवूं मेल्याचेर. फुलांक आसतनाच लागले बुडिपाक."

"नदरेक पडलें तांच्या, आतां नेमान येतले. आंबो राखचो पडटलो."

त्या दिसा सावन बाबूचो सांजवेळचो अभ्यास आंब्या मुळांतूच जावपाक लागलो. सकाळच्या आदेसाक बायलेचें लक्ष घरकामांपरस आब्याचेरूच चड उरपाक लागलें. राघोबाय घरा आसल्यार आंब्याक पातयेना आसलो. गाड पांचव्या रंगाची वांटकुळीच घोसांनी लांबपी तोरां पळोवन राघोबाचो जीव धादोस जातालो. मेजून पांचश्यावयर तोरां मेळटली. राघोबान हिशोब केलो.

आंबे पिकपाची सगळ्यात चड उमळशीक बाबूक लागिल्ली. पिकिल्ले आंबे शाळेत कोणाक कितले हाडून दितलो हें ताणें पयलींच सांगून दवरिल्लें. बाबून तोंड आंबट जायसर खावन उरिल्लीं तोरां विकल्यार चार पयशे हातात येतले हाचो हिशोब घोव बायलेन करून दवरिल्लो.

आंब्या मुळांत साक पातळावन ताचेर बसून बाबू अभ्यास करतालो. ठप्प करून ताच्या म्हाऱ्यातून पिको आंबो पडलो. अभ्यास थंयच सोडून बाबू धांवत घरांत आयलो.

"बाबो, पिको आंबो. आतां पडलो."

बाबून नाचूत बापायक आंबो दाखयलो.

"दाखय पळोवया."

आंबो हातात घेतांच झाडपिक्या फळाचो सुरबूस वास ताच्या नाकांत रिगलो.

"पळयलां गो. बाबूक पिको आंबो मेळ्ळा. ती पाख्याक खोयिल्ली कोयती हाड पळोवया."

राघोबान कोयती पांयापोदां धरून आंबो कापलो.

"कितलो तांबडो..."

"गोड आसतलो हां." भितयलो तांबडो भडक रंग पळोवन राघोबान अदमास घेतलो.

एक शीर कापून ताणें बाबूकडेन दिली.

"ही पाख्यांचेर दवर. पयलो वांटो देवाक."

पयल्या फळाची रुच घेतना तिगांय धादोसलीं. आनीक सात-आठ दिसां आंबे काडपाचो निश्चेव राघोबान केलो.

दुसऱ्या सकाळीं भाटकान्नीले दोन मानय वयले वाटेन येतना राघोबाचे नदरे पडले. एकल्याच्या खांद्यार कोगलें जाल्यार दुसऱ्याच्या हातांत राजू आनी चोब आशिल्लो. राघोबाच्या मनांत दुबावाची पाल चुकचुकली. ते दोगूय मानाय आंब्य मुळांत येवन थांबले.

"कितें पळयतात रे..."

राघोबा खिणांतूच आंब्यामुळांत पावलो.

"भाटकान्नीन आंबे काडूंक धाडल्यात."

राघोबा थंयच घट्ट जालो.

खीणभर कितें उलोवचें कांयच समजना जालें. रागान तकली सणसणली.

"आंब्याक हात लावचे नात. आंबो राखपाक आमकां नाका पुरो जालां."

"तूं भाटकान्नीक सांग. आमचेर कित्याक तापता."

"तिणें धाडले देखून आमी आयले." दुसरो मानाय उलयलो.

"कोणे मेल्ल्यान कळयलें रे तिका." घरा बशिल्लेकडेन तिका कशें कळ्ळें आंबो लागला म्हण राघोबाची बायल तापली.

"हें पळय, हांव आंब्याक हात लावंक दिवंचो ना."

मानाय चड कांय उलयले नात. आयिल्ले तशे परतले.

फाल्यां शेर्त भाटकान्न आपूण मानायाक घेवन येतली. राघोबाक दुबाव मारलो. आसल्यांक चड आस्त. भाटकार आसतना बरें आसलें. तो मुंडकारांक दुखय नाशिल्लो. पूण ताच्या अचकीत मरणा उपरान्त भाटकान्न खऱ्या अर्थान भाटकान्नपण गाजोवंक लागली. मुंडकारांक सतावपाचो खंयचोय मार्ग तिणें सोडलो ना. खंयचेय ना खंयचेय निमित्त सोदून मुंडकारांचेर केशी करून राघोबा सारक्या पोलीसांचे नांव काडल्यरूय आंग काडपी मुंडकारांक पोलीस स्टेशन आनी कोर्टाची सपणां चडयली. मुंडकारांकडेन राखणेक आशिल्ली तल्लूकय तिणें

काडून घेतली. आपले खोपटेक सामको तेंकून आशिल्ल्या आपणेंच वाडोवन व्हड केल्ल्या आंब्या रुखाचेरुय तिचो दोळो वचत अशें राघोबान चिंतूंक आशिल्लें.

दुसऱ्या सकाळीं उठून राघोबान घराच्या कडाशेक खोवोवन दवरिल्लो कोंडो भायर काडलो आनी कोगलें तयार केलें.

"बाबू, आई आनी दोंगाय येयात रे."

चोब्याक राजू बांदून कोगलें आनी चोबो घेवन तो आंब्यार चडलो. वीसेक आंब्यांनी चोबो चड जातकच तांणे राजवाक धरून सकयल देंवयलो. बायलेन रिकामो करतकच राघोबान परत वयर वडलो. इतल्यान वयलेवाटेन भाटकान्न दोन तीन मानायाक घेवन येता ती ताच्या नदरेक पडली. खीणभर पोटांत धस्स जालें. भाटकान्नीक पळोवन राघोबाचे बायलेचेर तर आंकात आयलो.

"तूं तोरां घेवन भितर वच. हांव पळयतां तिका."

आंबे तशेच पिशवेक गुठलावन घेवन ती घरांत धांवली.

"तुका कोणे सांगलां रे म्हज्या आंब्यार चडूंक."

"आमी इतलो तेंप सांबाळला तो भाटकान्नी."

"कोणाक सांगता रे तूं. भाट राखपाक म्हजो मानाय आसतना तूं कित्याक आंबो राखतलो."

"हांवें रोयिल्लो तो भाटकान्नी."

"भाट म्हजें. तूं चड उलयनाका. आतां वचून पोलीसाक घेवन येवूं."

"भाटकान्नी आतांच चडिल्लो तो." राघोबाची बायल आंब्यामुळांत आयली.

"तूं मर्दी उलयनाका. तुका तोरां घेवन घरांत धांवतना हांवें पळयलां."

"मुंडकारांनी रोयिल्लें मुंडकारांनीच खावपाचें."

"तूं म्हाका कायदे शिकयता. देंवता काय ना रे तूं... आनी तूं गे... काडल्यात तितलीय तोरां हांगा घेवन यो."

"पोरान अजून एक तोर उस्टावंक ना."

"म्हज्या चल्याकूय अंदू तोरां नात. खंयच आंबे लागूंक नात. चल रे, घरांत घातल्यात तितलींयं तोरां घेवन यो." भाटकान्नीन एका मानायाक फर्मायलें.

मानाय येता तो पळोवन बाबू आंबे एका कोनश्याक घेवन बसलो.

“हांव दिवंचो ना. म्हाका जाय.” बाबू रडूंक लागलो.

“उठ रे, भाटकान्नीलीं तोरां चोरतात.”

मानायान बाबूक कडेक शेवटिलो आनी तोरां पिशवी हाडून भाटकान्नी मुखार दवरली.

“इतलींच रे... आनीक लिपोवन बी दवरूंक ना मरे.”

“ना. भाटकान्नी...”

“चडात रे वयर. बेगीन जावं दी.” भाटकान्नीन मानायाक फर्मायलें.

राघोबाक ना इलाजान सकयल देंवचें पडलें. मानायांनी एकान एक तोर सकयल देंवयलें. घराच्या आंगणात बसून तिगांय मोन्यानी सगळे पळयताली. तोरांनी भरिल्लो आंबो नागडो बोडको जाल्लो तांच्यानी पळोवंक नज जालो. फाटले दोन म्हयने आंब्याखातीर घेतिल्ले सगळे त्रास फुकट गेलें. नाय म्हळ्यार पांचश्यावयर आंब्यातले पांच लेगीत आंबे राघोबाक दिवचे अशें भाटकान्नीक दिसलें ना. आंबे व्हेले म्हण हुंडक्यांनी रडपी बाबूक थारायतना राघोबाची बायलूय दोळे पुसताली. रागान राघोबाचें रगत सणसणपाक लागलें. जिवाच्या जाळान तकली तापली. खीणभर ताका दिसलें, कोयती घेवन वच्चें आनी एका एकाक हाणून घालचें. पूण भाटकान्नी मुखार तोंड उगडपूय शक्य नाशिल्लें. आनी भाटकान्नीन भाटांतलीं धांवडावन घातल्यार संवसार घेवन वतलो खंय...

दुसऱ्याय वर्साक आंबो तसोच भरघोस चंवरलो. ह्या वर्सा राघोबान आंब्याची काळजी घेतली ना तरीय दोनश्यांवयर आंबे भाटकान्नीक मेळ्ळेच. आता आंब्याचेर नदर पडल्यारुय राघोबाची तिडक मस्तकाक वताली. मोड येवन आंब्याझाड अख्खेच हुमटून पडचें वा निदान जोगूल पडून करपून तरी वच्चें अशें ताका दिसतालें. आंबो न चुकता तिसऱ्या वर्साक परत चंवरलो तेन्ना फाटलीं दोन वर्सां भाटकान्न आंबे काडून व्हरतना जिवाक पडिल्ले जाळ परत ताजे जालें. कांय दिसांभितर आंबो खांदयेन खांदो चंवरलो. एका सकाळीं तांबयो घेवन मड्डेर सावन परततना रथ कसो चंवरिल्लो आंबो पळोवन राघोबाक भिरभिरी मारली.

घोसांनी लागप आनी म्हज्या बाबून मात फकत तोरां पळोवन·आंवडे गिळप... भाटकान्नीक आयतें मेळटा म्हण चड नेट चडला. अंदू पळयता कशीं आंबे खाता ती... फाटलें यादींनी आंगाक जाळांचो हुलोप पेटलो. तो रागा सरशीं आंब्या मुळांत आयलो आनी हाताक मेळटात ते चंवर मोडपाक लागलो.

शाळेत वचपाची तयारी करपी बाबू बापायक पळोवन आंब्यामुळांत आयलो.

"बाबो, चंवर कित्याक मोडटा रे..."

"शू ऽ बोंवाळ नाका. हे फुडें आंब्याक एकूय आंबो लागचो ना... केन्नाच लागचो ना.."

"मज्जा ऽ तर. आतां भाटकान्नीक आंबे व्हरूंक मेळचे नात. केन्नाच मेळचे नात. मज्जाच मज्जा..."

ताळयो मारून उमेदीन नाचपी आपल्या पुताक पळोवन राघोबाचेर भार आयलो. तसोच तो आंब्याचेर चडलो आनी हाताक मेळपी एकान एक चंवर मोडीत सुटलो...



# विपरीत

– रेश्मा सुर्लेकार

अचकीत सकाळी साडे पांच वरांचेर म्हाका जाग आयली. कोण तरी जनेलांतल्यान म्हाका पळयता असो भास जालो. हांव घामाघूम जालें. हे एक सत्य काय सपन आसलें म्हाकाच खबर ना. कोणाचे तरी यादीन हांव एक वर हांतरुणार लोळत रावलें. इतल्यान आयज शाळेचो पयलो दीस म्हणपाचें लक्षात येयलें. बेगबेगीन हांवें हांतरुण कवळ्ळें आनी कळशी हातीन घेवन नळावटेन धांव मारली. म्हाज्या पयलींच शेजारची चार पांच बायलां, काशी मामी, विठाई काकी, पयलीच नळार रांगेक राविल्ली. इतल्यान काशी मामीन म्हाका उलो मारलो.

'ये जनी, आयज तुजो सूर्य बेगीन उदेलो काय कितें गो?'

हय, म्हणत हांवेन मिस्कील हांसो दिलो.

तितल्यान थंय आसलेल्या बायलांनी तिका म्हाज्या बेगीन उठपाचें गूढ सांगलें.

'आयज शाळेन वचोंक जाय नगें.'

हांव कान धांपून उमते मानेन चलत रावलें. कारण थंय रावल्यार 'हती म्हळ्यार घोडो जातलो' हें हांव पयलींच जाणा आसलें.

रुमार येवन हांवेन चुलीत उजो करून उदक तापयलें म्हाजी तयारी केली, आनी आडवाटेन शाळेचे दिशेन चलत रावलें. तशें पळोवंक गेल्यार शाळां तितलीय पयस नासली. पूण त्या बुट्टांतल्यान, व्हाळा पलतडी वचप म्हाका चडच कुस्तार

जातालें. हांव शाळेंत पावचे पयली शाळेची भुरगीं हजर आसली. खुबशीं भुरगीं म्हाका जुनी आसलेली. पूण तिंतूनच कांय उमलत्यो कळ्यो, नव्या मुखामळा सयत दिश्टी पडल्यो. प्रार्थना सोपल्या उपरांत भुरगीं आपआपल्या वर्गात गेलीं, कांय भुरगीं भंयान आपल्या भावंडा म्हऱ्यात बसलीं.

पावसाची दडक आंगार आफुडतकीत आंग थंड जाता तेच तरेन म्हाजी शाळा थंड आसली. पयली आनी दुसरेची भुरगी एकाच वर्गात बसलेली. पयलेच्या वर्गात सात तोंडां म्हाका नवीन आसलेली. चार चेडे आनी तीन चेडवा. तितुंतली चार जाणा हांव रावता त्याच गांवांत रावताली. तीन तोंडा म्हाका सामकी परकी आसली. हांवेन सगळ्यांची नांवा विचारून घेतली. कांय मधुर आवाजात आपआपली नांवा सांगतालीं. इतल्यान पावसाच्या गडगड्यावरी एक आवाज आयलो.

'म्हाजें नांव सुधीर वामन तारी.'

आनी वर्गात एकच खळखळ जालो. पडिल्ले, किडयाळे दांत दाखयत भुरगी हांसली. म्हाका हांसचें कांय रडचें तेच कळना जालें. भुरग्याची करामत आयकून म्हाका हांसू आयलें पूण 'वामन तारी' हें नांव आयकना फुडें काळीज कल्ल जालें. काळजाची एक पांकळी तुट्टा कांय कितें, इतल्यान तिसरेच्या एका भुरग्यान कागाळ हाडली.

'बाई, नितीन म्हाका शेमडो म्हणटा.'

हांव सट करून खुर्चेतले उठलें आनी तिसरें चवथेच्या वर्गात गेलें. पयलो दीस भुरग्यांक भानार हाडूंकच गेलो पूण त्यान पयलीं म्हाजेच भान जाग्यार उरलें ना.

दनपारां घरा येवन लेगीत हांव त्या बिटबिट्या दोळ्यांच्या सुधीरा विशींच चिंत्तालें, वामनान अशें कित्याक केलें. तोच हो वामन काय? म्हाका कित्याक सांगलें ना? अशे प्रश्न म्हाज्या सामकार नाचूंक लागलें. वामना म्हऱ्यांत सारलेलें ते दीस म्हाका याद जावंक लागलें. जें घडचें न्हय, तें म्हाज्या नशिबांत घडिल्लें. एके नदरेत तें घडपाक म्हाजें घराणेच कारण जाल्लें.

आमी घरात रावपी सगळीच स जाणा. म्हाजी एकली आवय जोडपी आनी स जाणा खांवपी तोंडां. म्हाजो बापूय सदाच सोऱ्यांत आसतालो. दिसवड्याची जोड

तो दामुल्या बार्रार ओतालो. घरांत आमकां सूख म्हणटां तें केन्ना मेळ्ळें ना. सदांच घरांत किलोस, आमी एका फाटोफाट चौगां भयणी. व्हडलें बाय शाणू भटागेर कामांक आसताले. तेची जोड व्हडानीशी न्हय, खाण जेवण घालून शाणूभट तेका तिनशी रुपया दितालो. तेय हातीर पडल्यार नशीब म्हणपाचें नाजाल्यार, बायच्या लग्नाक खर्च करता अशें म्हण सारून व्हरतालो. दुसरी भयण रजनी घरांतलेंच काम करतालें. तीच दोगांय चवथीच शिकल्या. म्हाका मात आईन मेट्रीक मेरेन शिकयलें. तिचें उपकार म्हण हांव आयज बाई जावंक पावलें. म्हाज्या फाटले चवथे मीनू. आतां ते णव्वेक शिकता. म्हाज्या फाटल्यान ते सात वर्सांनी जाल्लें. आई म्हाजी चेडो जातलो म्हण राविल्ली, पूण म्हाज्याच फाटीर चेडूच जालें म्हण शेजाऱ्यांपाजाऱ्यांची तोंडांच काळीं पडलेली. बापायन तर घरान सांवारच धरलेलो. येयल्या दिसां घरांत झगडी-झुजां. सुखान दोन गोटे पडिल्ले खातलो म्हळ्यार सूख नासलें. हांव आनी रजनीआका बाबाच्या भंयान कडव्याचें कुशीक लेप कशी मांडटाली. आई केन्ना केन्ना आमकां तिगांकय घेवन रामादादीले पडवेर रात काडटाली. तरीय आसतना दुसऱ्या दिसां दुबावाच्यो गाळी आईक घेवंच्योच पडटाल्यो. इतले सगळें सहन करून, आईन म्हाज्या बाबाक केन्नाच वायट उतर म्हळें ना. इतलेच आसताना लोकांकडल्यान आमकां थोमणे खावंचें पडटालें. म्हाका आयजय लोकांचें कांयच कळना, कित्याखातीर दुसऱ्याच्या संवसारात नाक फुसफुसता तें! पयलीं म्हण आसा, 'घर थंय म्हारवत आसतलेच' पूण आईन म्हाजें केन्नाच कसली आशा केली ना. आसा तितूनच सूख मानलें. दुदाची तान तिणें तांकारच भागयली.

म्हाका याद जाता त्या दिसाची, कोणाच्या तरी वळखीन व्हडल्या बायक शाणू भटान सोयरीगत हाडिल्ली. तो भुरगो वयान बरोच जाण्टो आसलो. तरी आसतना न्हवऱ्यागेल्यो मागण्यो व्हडल्यो आसल्यो. तेका बायल दिसण्याक बरी जाय आसली. व्हडलें बाय दिसपाक बरें नासलें, पूण स्वभावाचें भांगर. पूण रजनीआका आमच्या घरात दिसपाक सुंदर. शेजाऱ्या सदांच म्हणटाली, 'रजनी सामके आवय वरी गोरे गोमटे - रुपेस्त.'

आमी तिगांय बाबावरी. व्हडल्या बायक येयली सोयरीगत मागीर रकाद दिता अशें म्हण परत गेली, कांय दिसानी रकाद आयलो ती चली नाका, दुसरी दिता जाल्यार दियात. सगळो भार आईचेर आशिल्लो. तिका कितें करचें तेच सुचनासलें. चार चवगांचें आयकून व्हडल्या बायक विचारून रजनी आकाचें लग्न जालें. व्हडल्या बायची समजूत त्या वेळार आईक बऱ्याक पडलेली, पूण आयज तिचें समजूंक रजनी आकाक खूब त्रास करता. लग्न जावन रजनीआका केन्ना सुखी रावलेंच ना, आई फुडले त्रास तेका घरात जातालें. आईक तरी घोवाचेच त्रास, पूण आकाक घोवाचें धरून मांय-मावाचे लेगीत त्रास. लग्न जाल्याक आकान केन्ना घर म्हण पळोवंक पावलें ना, परिस्थितीक विटोवन तेणें आपल्या जिवाची वाट लायलेली. 'भुरगीं ना म्हण' केल्ले घरांतलें त्रास आकांन दाडी फोडून कोणाक सांगलें ना. सांगतले तरी कोणाक. 'जिवाक विटोवन आकांन गळोफांस लायलो. त्या दिसा पासून आई सामकी पिशेपणांच करता. ती कोणाकय कितेंय म्हण्टा. तिचे हाल पळोवन म्हाजे दोळें भरून येतात. आयज आई आपल्याक जाय थंय भोंवता. बाबा सोऱ्यानच लोळटा. व्हडले बाय आजूनय शाणु भटाली आयदनांच घांसता. मीनूक मात हांवें बोर्डींग इश्कोलांत घातलां. ताच्या भवितव्याखातीर आजूनय हांव तळमळटा. घराच्या लागिल्ल्या वाळटेक लागून हांवें अर्दो जमिल्लो म्हजो संवसार, अर्दे वाटेर मोटकोच व्हडयलो तो सारको करपाक म्हाका वेळच मेळो ना. कितल्या वर्सांनी त्योच यादी आयज ताज्यो जाल्ल्यो.

वामन तारी हे नांव आयकून म्हाजें मन जागे जाल्लें, तें एकाच कारणांक लागून. कारण हांव जाणा हांवेन वामनाचेर कितलो मोग केल्लो. आमी दोगांयनी खूब सपनां पळयल्लीं, पूण आमी एकामेकांपासून खूब पयसावलीं ती फक्त म्हाका लागून. आयज आमी एकामेकांपासून पयस आसा. पूण म्हाज्या मनांत परत परत येवजून येतालें की हो सुधीर वामनाचो चेडो काय?

ह्याच सगल्याचो म्हाका सोद लावंक जाय आसलो. तेचखातीर हांवें सुधीराक खूबच लागीं धरलो. ताचे विशीं जाणून घेवंक म्हाज्या मनांक धादोशी भोगताली. एक दीस मदले सुटयेत हांवें सुधीराकडल्यान ताची घरची चवकशी काडली. तेन्ना

म्हाका सुधीरान जाप दिलीं.

'म्हाज्या घरांत एक आजी आनी बाबा रावता. 'ताची जाप आयकून म्हाका हांसूंक आयलें. त्याच खिणाक म्हाका येवजून येयलें, हो दुसरो कोण नासून म्हजोच वामन आसा, ताणें लग्न केलें ताचो हो चलो पूण ताची आई कोण अशें प्रश्न म्हाका सतोवंक लागले.

ह्योच जापो सोदपाक हांव संद पळयतालें आनी ती संद रोकडीच आयली. शिकयता शिकयता आई हो विशय आयलो आनी हांवे सहज प्रश्न केलो की सुधीर तुजी आई तुका अभ्यास दाखयना?

तेन्ना ताचे दोळें कितें वेगळेच सांगतालें. तेन्नाच हांवे येवजिलें ती ह्या संवसारात ना दिसता. कशें बशें 'स म्हयने गेले आनी परिक्षेच्या निमतान हांवें पालकांची मिटींग घेवचें येवजिलें.

म्हाका याद जाता तो शेनवारचो दीस. सगळे पालक शाळेत जमिल्ले पूण म्हाजे दोळे फकत वामनाक सोदतालें. म्हाजे मन परत परत सांगतालें की वामन आयज म्हाका मेळटलो. आनी उतराक गांठ पडटा तशें जालें. दुर्गा भितर सरपी शेवटचो व्यक्ती दुसरो कोण नासून वामनच आसलेलो आशिल्लो. म्हाका थंय पळोवन तो सुकलेल्यावरी जालो. म्हाज्या दोळ्यांक दोळे मेळोवपाची तांक ताचेकडेन जाली ना. अचानक ताणें नदरय परतिली. पूण तेच्या तोंडार तेंच हावभाव, तोच स्वभाव, तेंच रूप, शर्टाचे वयलें बिट्टे लायनासतना वाऱ्यार घातिल्ली ती छाती, पळोवन हांव गळसणलें. रोकडेच भारार येवन हांवेन मिटींग सोपयली. सगळे जाण आपआपल्या घरां वचपाक परतीचे वाटेर लागले. वामनय त्याच वाटेर आसलो. दुसऱ्या एका पालकाक उलो करून 'सुधीराच्या पप्पाक रावय मात्सो' अशें हांवें कळयलें. त्या बरोबर वामनाची पावलां जड जाली. हांवें बेगबेगीन सगळे आवरलें आनी वामना म्हऱ्यात गेलें.

'वामन,' अशी हांवें जाप करीना फुडें ताणे भरिल्ल्या दोळ्यांनी म्हाजेर नदर मारलीं.

ताणे कितें सांगचे पयलींच हांवें ताका विचारले, 'सुधीर तुजो चेडो?'

ताणें मान हालयली.

परत हांवे प्रस्न केलो, बायल कितें करता?

वामनान म्हाका मंद जाप दिली.

'खबरना'.

ह्या उतराक हांव सुन्न जालें फुडे बायलेंविशीं कांयच विचारलें ना. मनांतले प्रश्न, शंका ओंठार हाडिल्ल्यो त्यों हांवे परत्यो गिळ्यो.

दोगाय आमी वाट चलतालीं, घडये ताका म्हाका खूब प्रश्न करपाचे आशिल्लें अशें म्हाका जाणवलें. खूब वर्सा फाटल्यो दोगांयच्यो यादी ताज्यो जावन नाचताल्यो.

'बरें मेळचें केन्नाय अशें म्हणत हांवें म्हजे वाटेर पावल घातलें, तेन्ना वामनान म्हाका उलो घातलो.'

'जनी...'

म्हजें आंग शिरशिरलें, दोळ्यांची पापणी बावगच्या पयलीं हांवेंन, फाटी पळयलें. तेन्ना म्हाका ताणें प्रश्न केलो.

'तूं लग्न जावंना?'

'ना.'

अशें म्हणत हांवे वाट कातरली.

रुमार येवन लेगीत म्हाका सूख लागलें ना. दुसरे दिसा आयतार. हांव सकाळींच उठले आनी सुधीरागेर गेलें. घरांत सुधीर आनी ताची आजी आसलेली. वामन खंय तरी भायर सरिल्लो, तें पळोवन हांव फाटल्या फाटी परतलें. हांव केगदींनीच्या वळणार पाविल्लें, अचानक वामनाक तोंडा मुखार पळोवन हांव सुकलें, पूण तेणेंच म्हाका जाप केली. 'खंय गेल्ले जनी?'

'तुमगेर.'

अशीं हांवे जाप दिली.

कित्याक?

म्हज्या प्रश्नाच्यो जापो सोदूंक. म्हाका सांग सगळो लोक उलयता, तूं लग्न

जावंक ना म्हण, पूण सुधीर चलो कोणाचो?

हे आयकना फुडे वामनान जिविताचें पुस्तक उगडलें 'तुवें कितें आयकलां तें खरें आसा. हांव लग्न जावंक ना. सुधीर म्हाजो चेडो न्हय. तो....

'...म्हजो पोसको चेडो!'

त्या उतराक हांवे म्हळें, मागीर तुका तेच्याविशीं कांयच खबर ना.

त्या उतराक वामनान म्हळें,

'आसा. पूण... हांव तें तुका सांगूक सोदीना, कारण म्हाका तुका आनीक त्रास करपाचे ना.'

'पूण कित्याक? जर तू म्हाका सांगचोना जाल्यार तुका म्हाज्या मोगाची सोपूत आसा!'

सोपूत आयकना फुडे वामनान म्हाका कडू सत्य सांगलें.

'तुका आयकूंक ज़ाय हो चलो कोणाचो तो! तुजे काळीज घट्ट करून आयक हो सुधीर तुज्या...

'फुडें सांग वामन... तुज्या म्हळ्यार?' वामनान म्हाका सोपूत घातलो की तुवें हें कोणाकच सांगूंक जायना. तेन्ना ताणें म्हाका एक सत्य सांगले जें म्हाकाच परिचीत नासलें. तो चलो म्हाज्या व्हडल्या भयणीचो आसलो जो ताका आंकवारपणांत जाल्लो.

पूण ताचो बापूय कोण हे गुपीत मात कोणाकच खबर नासलें.

सुधीराचो सांबाळ करपाची जबाबदारी, व्हडल्या बायनच ताचेर सोंपयल्ली. पूण ताच्या आयुश्यांत कितें घडलें, हें वामनाकय खबर नासलें. हें पान परतिना फुडें म्हजें मन सुन्न जालें.

पूण म्हाका कौतुक दिसता तें म्हज्या वामनाचें. त्या भुरग्याची जबाबदारी घेवन ताणें ताका आपलें नांव दिलें. ताणे लोकांची पर्वा केलीं ना. आयजय म्हाजो मोग खऱ्या अर्थान जितो आसा.

पूण कळिल्ल्या गजालींत म्हाका जाळ्यांत घातलें, आयजय हांव तें जाळे सोडीत आसा. 

# जिणेचो प्रवास

– मेल्कम डिकॉस्ता

फुडली बस सुटूंक आजून पांच मिनटां आशिल्लीं. राजू आपले बसींत बसून आयच्या दिसाच्या डिजलाचे पयशे मेजताले, इतल्यान बसीचो पात्रांव आयलो. राजूच्या मनांत खप्प जालें. सदंचे भाशेन तापसाणी सुरू जातल्यो, हें राजूक पयलींच खबर आसलें. 'राजू बसीत बसून कितें करता? तूं कितें प्रवासी? सकल देवून बोवाळ मार' इतलें म्हणटा पयलीं बस सुटलो राजू बोब मारूंक लागलो. 'केपे मडगांव, मडगांव...'

पळोवपाक गेल्यार राजू बारावी पास जाल्लो. तो गरीब जाल्यान खंयच बरें काम मेळनासले. कितलो तेप पूण बेकार रावतलो. आंकवार भयणीचें लग्न करूंक जाय, हें चिंतून ताका बसीर रावचेंच पडलें. बापूय सोरो पितालो ह्या कारणाक लागून ताका सतरा वर्सांचेरूच कामाक लागचें पडिल्लें. असो बसीत तिकेट मारप हे राजूक आवडनासले, पूण तो दाखोवन दिनासलो. राजू सगळ्याकडेन बरेतरेन वागतालो. कोणूच जाण्टो बसीत आयलो जाल्यार ताका तो चडूंक-देवूंक आदार करतालो. दिसभर तो बसीत तिकेटां मारून, ल्हान भुरग्यांकडेन उलोवन सारतालो. साज जातोच पात्रांव परतो बसीकडेन येतालो, आनी आख्या दिसाचो एका-एका पयशाचो हिशोब घेतालो. कालच्या दिसापरस आयज एक रुपया चड जालो जाल्यार वोग्गी रावतालो. पूण एक रुपया कमी जाल्लो जाल्यार तो असो चाळवतालो, जसो पुलीस चोराचेर तापता तसो! तेन्ना मात राजूक ताचो राग येतालो. आता घरा वचूं म्हण विचारल्यार, बस कोण तुजो पाय धुतलो असो म्हणटालो.

आख्खी बस धुवन राजू णव वराचेर सुटलो. आतां घरा वचपाचें हे येवजीताच ताचे मन परत जड जालें. ताका काल जाल्ल्या आपल्या आवय आनी बापाय मदली झगड्यांचीं याद जाता: कितें समजता तो आपल्या जिवाक? सोरो पिवन आवयक मारली हाचेरुच जालो संवसार काबार! अशें राजून आपल्या बापाय विशीं मनांतूच चिंतले. तो घरा आयलो बाप्पा आजून आयलोना, हें पळोवन राजूक मात्सो सुसेग जालो.. वेगी वेगीन आपणाक आयज कितलें पयशें मेळ्ळ्या ते व्हरून मिलेरांत घातले. कारण बाप्पा आयलो जाल्यार काडून घेतलो. म्हण तो जाणाच आसलो. राजू न्हावता, म्हळ्यार बाप्पा आयलो. सदचे भाशेन पयली येवन दाराचेर खोंट मारली. मागीर येवन आईक मारूंक लागलो. आईची बोवाळ राजूच्यान सोसूंक नज जाली. राजून येवन बाप्पाक आडायलो. तू कोणाक आडायता? तुमी दोगांय एकूच!" म्हणून बाप्पान राजूकूय बरोच मारलो. मागीर तो भयणीक, लग्न करून दवरिल्या पयशांच्या मिलेरा फुड्यांत गेलो. हे राजूच्यान पळोवन नज जालें. इतलो वेळ वोग्गी राविल्लो, राजू आता बापायचेर बरोच तापलो.. जेन्ना बापूय परत राजूक मारूंक आयलो तेन्ना, राजूनच बापायक बरोच मारलो. ते रात भर राजूक न्हिदूच पडलिना. ताच्या मनांत काय वायट - वायट विचार आयले. म्हजे नशिबुच फुटलां. म्हज्या नशिबांत सुखूच ना, अशें तो चिंतूंक लागलो..

सकाळ जाल्ली. राजूच्या मनांत परत परत राती जाल्लें चित्र दोळ्यां मुखार आयलें. तसोच तो बसीर गेलो. संदचे परस आयज बसीत पेसींजर कमी आसले. राजू येवजूंक लागलो, म्हाका लागून प्रवासी कमी जायत वतात. हांव इतलो वायट काय? इतले म्हणसर पात्रांव आयलो. पात्रांवान पयलीं बसीत पळयलें. 'राजू! आयज इतलेच पेंसीजर कित्याक म्हणून?' तो राजूचेर तापलो, राजू वोगी रावलो. तो परत तापलो, 'असो वोग्गी रावल्यार पॅसींजर जातले? पयशाक बरो उबो जावन येता?' राजूच्यान हें आयकूंक नज जालें. ताच्या मनांक कांटे कशे तोपूंक लागले. इतले करता म्हणसर बस सुटली. राजू बसीत चिंतूक लागलो, की कितले वायट लोक ह्या संवसारात आसात, ते मनशाचे दुखूच समजनात! राजूक सगळ्यांची वीट आयली. ताका खंय वचून आपलो जीव दिवचो सो दिसलो. इतल्यान ताची नदर

पयल्या सीटार बसून आशिल्ले एके बायलेचेर पडली. तिच्या खाक्यांत आशिल्ली एक ल्हान चली, तिचो सारको जीव खाताली. तिचेर तें थापटां मारतालें. पूण ती बायल वोग्गी सोंसताली, हें पळोवन राजूक कितेंशे दिसलें? राजूक आपल्या भुरगेपणाची याद जाली.

जेन्ना आपूण ल्हान आसतना आपल्या आवयबापायन अशेंच त्रास काडल्या आसतले. ताका आनी एक अपघाताचो उगडास जालो, जेन्ना तो वर्साचो आसलो, तेन्ना घराकडेन खेळटना तो वयर झाडार सावन सकयल पडलो आनी जायतो जखमी जालो. तेन्ना ताच्या आवय - बापायन ताका व्हडल्या व्हडल्या हॉस्पीटलांत व्हेल्लो आनी तांणी थंय आठ दीस आनी आठ राती आपल्या ताच्यात सारल्यो. जेवण-खाण, न्हीद विसरून ती ताची सेवा करतालीं. हें राजूक येवजून आयलें. ल्हानांतलो व्हड करून, जेवूंक खावूंक आनी म्हाका शिकोवंक तांणी जायते त्रास काडल्यात आनी हांव ताका किते दिवूंक वता? असो ताका प्रश्न पडलो? आतां तीं जाण्टी जाल्यांत, तांकां हांवे पोसूंक जाय, दोगूय भयणांक हांवेनूच लग्न करूंक जाय. हांव मेलो जाल्यार तांचें लग्न कोण करतलो? हांव आता आमच्या घराचो खांबो. हावूंच असो मोडलो जाल्यार आमचें घर आनी उबे कशेंच जावंचें ना?

इतल्यान ते ल्हान चली रडूंक लागलें.. राजू साबुदेर आयलो.. तो त्या भुरग्या म्हऱ्यांत गेलो. ताका आपल्याकडेन घेतले आनी खुशालकायेन ताचो उमो घेतलो, आनी परतो तिकेट मारूंक लागता.



# घोंटेर

– मार्कोस गोन्सालवी

नवो फ्लॅट मेळ्ळो. शारांत पावलीं.

दोन दिसां मदीं गरजेचें सामान हाडून उडयलें. रावपाकूय सुरावत केली एक, दोन दीस करून सुमान जालें. हांव आनी म्हजी घरकान्न दोगांच पयले सात दीस उमेदीन गेले. पूण तेच बराबर सात दिसांतलो दर एक खी एकलेपणाचो जाल्ले वरीं दिसलो. मन मेकळें आसुनूय अस्वस्थ जाल्लेवर दिसलें.

नदंर उक्ती असुनूय सगळेंच रितें-रितें दिसतालें.

रात आयली की गॅलरींत येवन बसप आनी गांवांतल्या घराच्या आंगणा बसप, खूब वेगळेंपण आसलें. फ्लॅटांत रावपाक आयलीं ते पयलींच रात आमी खूब वेळ गॅलरींत बसून रावलीं.

अदीं-मदीं थांब थांबून वारो येतालो. वाऱ्याचो नेट खुबूच कमी असलो. शारांतल्या वाऱ्याची संवय नाशिल्ल्यान, शारांत थंड वारोच ना काय दिसपाक लागलें.

खूब वेळ आमी गॅलरींत बसलीं. मोनेंपणानींच बसलीं. कोणूच कांयच उलयलो ना. आमी दोगांय, आप-आपले भितर बुडून आसलीं. फ्लॅटांतले गॅलरींत आनी गांवच्या आंगणाचो अंतर करीत!

आमकां खूब काजू. म्हणचे घरा फाटल्यानूच व्हड काजूमळ आसा. काजू पिकपाक लागल्यो की घर आनी आंगणभर काजू रोसाचो वास. मागीर उर्राक आनी फेणेची वास. काजूंचे दीस म्हणल्यार गरमेचे दीस. देखून ते दोन म्हयने घरांत न्हिदपूच ना. आंगण तर शेण-बीण काडून सामकें शिमटा सारकें पोलीश केल्लें आसतालें. आमकां, चडशो दनपारचो आनी सांजचोच काजू वावर पडटालो. आमी शाळयेक वताले देखून! शाळेक सावन आयले की लिसांव करपाक बसप. कांय एक फावटी काजू-मळ्यांत वचपाक बेजार आयल्यार लिसांव नासतनाय लिसांव आशिल्ल्याचें दोंग घेवन रावप. पूण सांजे वेळार मात आवय-बापयक आदार करताले. रातचें काम जालें म्हणकूच सात वरांचेर जेवण जेवून तयार. मागीर शेजारचो कार्लित, फ्रांसिस, जॉकीं सगले आप-आपली शिंदरी हाडून आमच्या आंगणात पातळायताले. एक लांब रांकेंत शिंदऱ्यो घालून न्हिदताले. केन्नाय कोणूय कुरकुऱ्यो हाडटालो. पूण रातीं वेळार कुरकुऱ्यो खातात म्हूण पाय तापयत म्हूण तकलेर कुर्बेत चडोवन कुरकुऱ्यो खातालेच.

पुराय भुरगेंपण आंगणात न्हिदपाचो खीण केन्नाच चुकयलो ना. तरणाटेपणारूय चुकयलो ना.

पुराय वाड्याची तुलना केली जाल्यार आमच्या घराच्या आंगणात एक वेगळी परंपरा आसली. सांज जाली, मळ्याचें काम-बा सोंपलें म्हणटकच आमी आंगणात येवन बसप. आमी म्हणल्यार शेजाऱ्याक आशिल्लीं 6-7 घरांतलीं सगळीं वांगडी. भुरगे धरून जाण्टे लेगीत. जाण्टे आपले खबरांनी, जाल्यार भुरगे आप-आपले भितर गुल्ल आसताले. हांसप, फकाडां करप तशेंच वाड्या संबंदीत म्हत्वाच्या विशयांचेर लेगीत आमच्या आंगणात चर्चा जाताली.

अशेंच एका दिसा जाण्ट्यांची चर्चा बरीच रंगली. आमच्या वाड्यार उदकाचो उणाव आसलो. उदक हाडपाक दोंगरावेले झरींत वच्चें पडटालें. पूण

झरीचें उदक गोरवां घाण करून उडयतालीं. झरीकूय व्हडलोशो नेट नासले पूण झरीच्या सुमार शंबर मीटर कुशीक एक भोव आदली बांय आसली ही बांय गांवकारांनी मारूंक ना. पुर्तुगेजानीं मारिल्ली. आमच्या वाड्या पुर्तुगेजांचो एक पांगड रावतालो. आपल्या उदार-पोसणा खातीर तांच्यानींच ही बांय मारिल्ली. बांय कोणेंय मारिल्ली आसूं उदक पेयेवपाक मेळ्ळां, हाका लागून वाड्यावेले लोक पुर्तुगेजांच्या उपकारांत आसले.

हांव 20 वर्सां जाल्लो आनी तेन्ना मेरेन हे बांयचें आमी उदक पियेताले. न्हांवपाक - कपडे धुवपाक लेगीत सगळे हेच बांयचेर वताले.

ल्हवू ल्हवू हे बांयचें उदक सुखपाक लागिल्लें. वाड्यावेल्या लोकांमदीं उदकाची समस्या वाडपाक लागिल्ली. हेच खातीर चर्चा सुरू जाल्ली. उपाय सोदतां सोदतां जाण्टेले पंच-सरपंच्याक गाळ्यो घालताले. रेसांव घेवन आयिल्लो जुआंवाच्या तोंडातल्यान भायर सरपी गाळी तर कोणाकूच सोडिनासली.

शेवटाक सरपंचाकडेन मागणीं घालून सरकारी उदका टांकी हाडपाचो निर्णय घेतलो. चर्चा निवळ्ळी. अशेच तरेन जाण्टेल्यांच्यो चर्चा निवळटाल्यो. केन्नाय उपाय नासतनाय बी.

चर्चा चालूच आसतना ल्हवूच रुझार शिताची बोशी घेवन हाजीर जातालो. ताच्या हातांतले शिताची बोशी पळोवन सगळ्यांच्याच जिबेर उदक सुट्टालें. मागीर ल्हवू ल्हवू हेरूय भितर वेताले आनी शिताच्यो बोशी घेवन आंगणात येताले. अशें करून सगळे सांगाताकूच, आमी आंगणातूच जेवणाक बसताले.

घरांतली सगळीं सांगाताक जेवतालीं. खातालीं आनी मस्तीय करतालीं.

ह्यो सगळ्यो यादी, आयज हांव फ्लॅटाचे गॅलरींत बसून घरकान्नीक वांट्टालो. खरें म्हणल्यार म्हजी घरकान्नूय असल्याच वातावरणांतल्यान वाडिल्ल्यान तिकाय गांवचो वारो चुकिल्ले वरीं जातालो. तांकां काजू

नासल्यो. पूण तांचे वातावरण योगा-योगा एकसारकेंच आसलें.

तें काजार उपरांत घरांत आयलें. कुळाराची माया भोगची ही ताची उमळशीक आसली. पूण कुळारा परस घरकाराचें म्हणल्यार म्हजें घर अदीक मायेस्त करचें अशीं सपनां आशिल्ल्याचें तें सांगतालें. अशीं हजार सपनां घेवन आयिल्ली म्हजी घरकान्न !

एका दिसा अशींच गॅलरींत बसून आसतना तिणेंच एक मुद्दो काडलो.

'मांयचे बगलेर बसून दोन-तीन गजाली करपाची रुच आयल्या' - तिणें एका उमाळ्यांनी भरिल्ल्या उतरांनी म्हणलें.

'इतली उमळशीक कित्याक?' - हांवे उलट प्रस्न केलो.

'कांय टीव्ही सिरयलांनी, फिल्मांनी ते भायर कांय कुटुंबांनी सून-सासुमांय मोगान गजाल्यो करतना दिसतात'- तें परत उलयलें.

'दिसता तें सगळेंच सारकें खंय आसता' - हांवें म्हणलें.

सारकें आसूं नासूं, सून-सासूमांयन सांगाताक गजाली करप खीण आसता तरी न्हय, घरकान्नीच्या उतरांचो अर्थ समजूंक ना. पूण मागीर तेंच सरळ उलयलें.

'म्हाका सासुमांयचें सूख केन्ना मेळटलें ताचीच वाट पळयतां' - तें भावनीक जावन उदगारलें. म्हजे घरकान्निचो हो उमाळो कांय वेळ म्हाकाय खंती करून गेलो. सासुमांची माया तिच्या नशिबाक लागुकूंच ना. कित्याक लागूंक ना, हाजीय जाप म्हजेच कडेन आनी ना, म्हूण ताचेय कडेन ना. दोगांय जाप सोदपाचो यत्न करतात. पूण.....

फ्लॅटाचे गॅलरींत फकत यादीच घेवन बसचें, इतलेंच नशिबांत आसा काय? ह्या प्रश्नान कांय दीस गेले.

सकाळीं स वरांचेर आमचे न्हिदपा कुडिच्या जनेलाकडेल्यान सवण्यांचो आवाज कानार पडलो. जिवाक आनंद जालो. गांवांत सकाळीं सकाळीं सवण्यांचीं गितां नासतना सुर्याचें किर्ण येना म्हणल्यार फट जावचें ना. शारांत

सवण्यांचीं गितां आयकपाक नशीब जाय पडटा.

उठून पळयलें. दोग सवणीं जनेलाच्या ग्रिल्सांचेर खेळटालीं. पूण गॅलरींत येवन तांकां पळोवंक लागना बराबर तांच्यांनी खिणा भितर भुर्र करून कूस मारली.

दुसऱ्या दिसा परतूय तांचो आवज कानार पडलो. दनपरांय तीं येवन जनेलाचेर बसलीं. आमच्या नशिबाक सवण्यांचीं गितां पांकां लावन आयिल्ल्याचो आनंद जालो. सवणीं आयिल्ले आनी गीत करतलेय खेप आमचे मदीं खोशयेचें ल्हार येतालें. तीं पाकां आशिल्लीं आनी आमी पाकां नाशिल्लीं सवणीं!

चार-पांच दीस तांकां अणभवान भोगलीं. पूण सव दिसां उपरांत आनीक एक खीण तोखेपाक मेळ्ळो. ह्या दोगांय सवण्यांनी आमच्या न्हिदपाक कुडिच्या जनेलाचेर घोंटेर केलो. नाजूक असो घोंटेर. पयलीं पयलीं हो घोंटेर काडून उडोवंशें जालें. जनेलूच बुरशें दिसताशें जालें. पूण घोंटेराक आनंदान भोगपाचो खीण, ह्या शारांत परत मेळचो ना अशा आनी एक भावनांचो घोंटेर आमच्या मनांत आंकारून आयलो.

कांय दिसांनी घोंटेरांत तांतयां आयली. मागीर तांतयांतल्यान भायर सरिल्ल्या दोग पिलांचो चिंवचिंवाट! ह्या पिलांक पळोवन घरकान्निच्या आंगार जो आनंद भरिल्लो तो खऱ्यांनीच तोखेपा सारको आसलो. पिलां कसलीं आसात तें पळोवपाची तिची उमळशीक. मुद्दाम कदेल दवरून. ताचेर उबें रावन घोंटेरांत नदर मारप. घोंटेरांतल्यान आवय येना जाल्यार, गेलीं काय हीं पिलां, असो उस्को करप. घोंटेरांतल्यान पिलां खातीर चोंचींत घालून खाण हाडपी तांची आवय-बापूय, तितलेच आपुरबायेन तांकां खावयतालीं. एकलो घोंटेरा भायर जाल्यार दुसरें खाण पुंजावपाक वेतालीं. दोगांय भायर सरतात ते वेळार पिलां भायर सरचीं न्हय म्हूण घोंटेराच्या बुरकाक पानाची आडसर लायतालीं.

हे खीण बारिकसाणेन तोखेतना मनाक आगळो-वेगळो आनंद भोंगतालो.

एका दिसाक पिलां घोंटेरांतल्यान भायर सरलीं. तीं उडपाक लागलीं. पूण सारकीं उडपाक शिकोमेरेन आमचे गॅलरींतूच तांची येंसाय चलताली. भुर्र भुर्र, चिंव चिंव आवज मनाक पिशें लायतालो. येसाय करतना तीं पडचीं न्हय म्हूण तांचीं आवय-बापूय पिलां सांगाताक आसतालीं.

आनी अशेंच एका दिसाक तीं सोमतींच गॅलरींतल्यानूय भायर गेलीं. आमकां मातशे दूख जालें. पूण घोंटेरांतल्यान उडपाक लागिल्लीं पिलां अदीं-मदीं आमी गॅलरींत आयिल्लें फावटी आमच्या मोगाक पिशें लागतालें. तांच्या गितां बराबर आमचींय काळजां गावूंक लागतालीं.

पूण मागीर तीं सोमतींच गेलीं. एक, दोन सुमान जावन गेलें. म्हयनो पासार जालो. तीं परत आमचे गॅलरींत आयलींच नात. तीं आयलीं नात तें पळोवन घरकान्निच्या मुखामळाचेर आयिल्ली निर्शेणी सामकी भावनीक जाल्ली. तीं येवंक नाशिल्ल्यान कांय दीस घरकान्नूय मोनें मोनेंशें जाली. मागीर ताणें, तांच्या येण्याची वाट सोडून दिली.

'... तीं पिलां आपल्या आवय-बापाय सांगाताक खेळटात आसतलीं. गायतात आसतलीं न्हय? आमी कोणाकूच, कांयच वायट करूंक ना. इतलें आसुनूय तशेंच भार सांबाळपाचीं, संवसार चलोवपाचीं, पूर्ण जापसालदारकेचीं पांकां येवंचे पयलींच गांवचें घर सोडून शारांतल्या फ्लॅटांत राबितो करचो पडलो. घरांत जाल्ल्या वाद-विवादान आमकां गांवांतल्यान कॉंक्रिटाच्या रानांत हाडून सोडलीं. आमकां उडपाक कोण शिकयतलो?'

घरकान्नीन अचकीत म्हजे मुखार प्रश्न मांडलो. ह्या प्रस्नाक म्हजे कडेन जाप नासली. हांवें ताका घट्ट वेगेंत घेतलें आनी आमी दोगांय खूब खूब रडलीं. गांवच्या घरांत जाल्ल्या ल्हानशा वादाक लागून आमी घरांतल्यान शारांत पावलीं. आमचे उमाळे समजून घेवपाचोय कोणेंच यत्न करूंक

ना. खंत मनाक कांचाबूल करपाक लागली. हेच कांचाबूल जाल्ले जिणेंत फ्लॅटांतल्या जनेलावेलो तो घोंटेर आनी गांवांतलें आंगण, घर, घरच्यो यादी दोळ्यांत दुकां जावन भरतात.

पिलां गेलीं पूण आमच्या फ्लॅटाच्या जनेलाचेर तो घोंटेर अजून तसोच आसा. रितो मात! जितलेय खेपे त्या घोंटेराचेर नदर वता, तितलेय खेपे तो घोंटेर आमच्या मनां-काळजां कडेन खूब कितें उलयता.



पयलें इनाम फावो जाल्ली कविता

## *आजये, तुजी याद येता*

भुतांखेतांच्या भंयान जेन्ना हांथरुणार
हांव एकटेंच रात रात जागतां
आजये, त्या खिणाक म्हाका
तुजी खूब याद येता

तुळशीमुखार दिवो लायताना
तुजी समाधानी मूर्त दोळ्यांमुखार येता
'शुभंःकरोती' म्हणता आसतना
तूं मोगान फाटीर हात ओड्टा
अशेंच भासता
थरथरपी दिव्याची वात जेन्ना
काळखाचें काळीज चिरीत सगळ्याक उजवाड फांकता
आजये, त्या खिणाक म्हाका
तुजी खूब याद येता

शाळेंतल्यान जेन्ना भुकेन हांव
धांवत धांवत दनपारच्या पारार घरा येतां
तेन्ना म्हजे वाटेकडेन दोळे लावन बसलेली
तूं बेश्टीच म्हाका दारार दिसता
शाळेंत घडिल्ल्यो गजाली
जेन्ना हांव एकटेंच घराच्या त्या
निर्जिव वण्टींक सांगतां
आजये, त्या खिणाक म्हाका
तुजी खूब याद येता

तुज्या यादीन आजये, काळीज बेश्टेंच धडधडता
तूं परत येवची अशेंच देवाकडेन हांव ओल्या दोळ्यांनी मागतां
सपन म्हजें हें केन्नाच साकार जावचेंना
हें म्हाकाय समजता
पूण, गायेच्या मायेन भरिल्या दोळ्यान आनी
फुलांच्या परमळान म्हाका
तूं आनी फकत तूंच दिसता
आजये, त्या खिणाक तुजी याद
म्हजे जिणेचो आदारूच जाता.

– **लालन मेघःश्याम पालयेकार**

दुसरें इनाम फावो जाल्ली कविता

## उलो

उलो...
आवय मारता
आपल्या
सानुल्याक
घरांत येवपाक
उलो...
काळजासावन
मारचो
जाल्यार 'ओ'
मेळटाच
उलो...
सळसळट्या
रगताक
रगताचो घाम
आनी
घामाचें रगत
करूंक
उलो...
पयसुल्ल्यान
मारून
पयसुल्ल्यांक
म्हऱ्यात घडटा
उलो...
त्रास सोंसपाक
जायना
जातकच मारिल्लो
चिड्डुपी - माड्डुपी
कंवळ्या कळ्यांनी
मारिल्लो
उलो...
मनांतल्यान
मारिल्लो
जाग हाडपाक
न्हिदिल्यांक
उठोवपाक
उलो...
रातचो बेबद्याक
बायलेक मारिल्लो
उलो...
नेत्यान जनतेक
मारिल्लो
उलो...
पावयता काळजातलें
उमाळें
मनांतलें कळवळे
उलो भिशटायता
उलो वांटायता
उलो जागयता...

– **तन्वी श्री. कामत बांबोळकार**

तिसरें इनाम फावो जाल्ली कविता

## जोताक बांदून

ताणें म्हाका जोताक बांदून
चिंतलें, जमीन आपली कसूंक
हांव फुडें, जोत ओडीत
तो मात रावलो फाटीं
जोताचो भार कळ्ळोना
ध्यानांत कांयच आयलेंना
जमीन कसत रावली
तशी शिंपत गेली
म्हज्या रगता घामान
ताणें घालो रोव

केन्नांतल्यान,
म्हाका बैल करून
आपलें सगळें सादयलें
हांव आसलों ओगी
घाय काळजार पडलो तरी
दुख्ख मातूय कळ्ळें ना
हांव म्हाकाच रडलों तरी
दोळ्यांत दूक आयलें ना
अशेंच शेत वाडलां
शेत पिकलां
आतां मात
तो रावला तयार
फुडें
पिकेचेर शिक्को मारूंक

– **मिनीन आल्मेदा**

चवथें इनाम फावो जाल्ली कविता

## म्हजी जीण

म्हजें कितें?...
आयज आसल्यार फाल्यां ना
हांव एक सुकिल्लें झाड कशें
पाळां आसल्यार तग धरपाचें
नाजाल्यार सुकून मरपाचें

म्हजें जिवीत एका सुकण्याचें
आयज ह्या झाडार, फाल्यां त्या झाडार
घोंटेर करून उडून वचपाचें...

म्हजीं सपनां पिकिल्लीं पानां
केन्ना झडत... कोण जाणा

हांव एक पडींग भूंय
ना झाडां, ना रोपूल,
ना फळ, ना फूल

हांव जालां एक अशीर दरवंटो
हांगा कोणूच भितर सरना
देखून हांव एकलें
... हांव थकलें

– लिडिया फेर्नांडीस

पांचवें इनाम फावो जाल्ली कविता

## कवी हांव, कविता रचतलों

विंगळ्या पांयांनी
इंगळ्यां वेल्यान चलतलों
उदकाक पासून उजो पेटयतलों
कवी हांव कविता रचतलों
कवितेंतलीं उतरां सायबा
चित्रां जावून दोळ्यांमुखार नाचतलीं
कांना पड्ड्यार परत परत गाजतलीं
मनांतलें तोंडान उलयतलों
आनी पानार बरयतलों
कवी हांव कविता रचतलों
तुफानाक सांपडिल्ल्या तारवाचो
तारयो जसो ल्हारां वांगडा
वलीं घेवन झुजता
तसो हांवूय लिखणी घेवन
वाऱ्यार गेलें गाभाऱ्यार घालूंक झुजतलों
कवी हांव कविता रचतलों
चारुय वाटांनीं मातला दुखाचो काळोख
आनी काळखांत जे सांडल्यात
काळोखच कशे ते जाल्यात
तांकां परजळान हांव भरतलों
कवी हांव कविता रचतलों

– ॲल्नीश रॉड्रीगीस

पयलें इनाम फावो जाल्लो निबंद

# गोंयकार नुस्त्या मोगी

– स्वाती चंद्रकांत बोरकार

जशें एका बरोवप्यान म्हटलां तशें गोंयकार नुस्त्याचेरूच जियेतात. गोंयकारांक उकडे शीत आनी बांगड्या हुमण मेळ्या पुरो त्या दिसा ते येथेच्छ जेवतात आनी सांगूंक नाका तांच्या ताटांतलें शीत त्या दिसा कशें सोंपता तें.

गोंयांत वेगवेगळे तरेचें नुस्तें मेळटा. तातुंतले गोंयकारांचे बांगडे हे आवडीचे. गोंयकार, मेल्लो मनीससुद्दां बांगडे म्हणल्यार जितो जाता. गोंयांत जण एकल्याचे आवडीचे नुस्तें आसता पूण तातूंत बांगडो हो आसतात. गोंयांत जण एकलो नुस्तें खावपी आसता. तांकां एक दीस शिवराक चलना. नुस्त्याचे यादीन वर्सुकी पांच दिसाचो गणपतीसुद्धा केन्ना पावोवचो कसो जाता. थोडें तर देड दिसानूच गणपती पावयतात, ते राती नुस्तें हाडून फ्रिजांत दवरतात. हेवटेन गणपती आंगणांत दवरीतात आनी तेवटेन नुस्तें उजरावपाक सुरू करतात.

गोंयकार हिंदूचे संस्कृतायेंतली ही एक विसंगती तांगेल्या हेर जेवणा-खाणांत दिसता. हरशी नुस्त्यांबगर खंयच्याच गोंयकाराच्या ताळ्यासकलय केन्ना उंडी वचना. पूण अशेंय आसतना सणा-परबांची, लग्नांची, म्हामनी स्त्राद्धांची आनी सगळ्या देवकार्याचीं जेवणां शिवराक कित्याक? अशें तो

चिंत्ता आनी तो अशेय म्हणता की हांतली हेर जेवणा सोडात पूण म्हाळां स्त्राद्धांचीं जेवणां म्हणटात ती मेल्ल्या-गेल्याचीं जेवणां. तांचे आत्मे तृ करपाखातीर आसता अशें म्हणटात. तशें जाल्यार ती मेल्ल्यां गेल्यांचीं आवडिचीं आसूंक नाका? एक मनीस जर जितो आसतना येथेच्छ नुस्ते खातालो, जाल्यार तो मेले उपरांन्त ताच्या नांवान आमी शिवराक जेवण घाले जाल्यार ताका ते कशें रुचतले?

गोंयकारांक नुस्त्याचें इतलें पिशें लागलां की तांच्यानी म्हणी आनी उमाणीय नुस्त्यावेयल्यान दवरल्यात जशें "घांटार घोडें आनी गोंयात व्हडें" म्हणजे घांटार रावपी मनीस चड करून शिवराक, तर दर्यादिगेवेलो कोंकणी मनीस नुस्तें खावपी. 'धोडयांन्याच्या कपलांत तिनूच फातर.' म्हणजे जाच्या नशिबाचो तो. एके सोबीत, हुशार चलयेक पळेनाफुडें कोंकणी मनशाक न्हंयेतले तट्टटीत मुड्डशेची याद जाता आनी तो सहज उदगारता 'मुड्डशी मरे ही.' जेन्ना एकाद्रे चली रागान तांबडें जाता आनी उडटा, तेन्ना म्हणटातत, 'सुंगट कशे उडटा मगो हे.' ध्यानी-मनी नासतना आनी त्रास-कश्ट काडीनासतना जेन्ना कितेंय बरे मेळटा वा फायदो जाता तेन्ना म्हणटात 'उडून शेवाळ मेळ्ळें ताका'. केन्नाय कोणी म्हणटात 'उदकाच्या बळार सुंगट उडटा,' म्हणजे दुसऱ्याच्या बळग्याचेर झेंत दाखयता. जेन्ना कोणी आपल्या इश्टाक सांगता 'आरे भुरग्यांक नोट्स दी, पूण त्यो नोट्स खंयच्यान हाडल्यात ते मात सांगू नाका. तेन्ना तो म्हणटा 'सुंगटा दी, पूण पोंय दाखोवं नाका'. म्हणजे मूळ लिपोन दवर. कितेंय मेळयतलो जाल्यार थोडेतरी कश्ट काडचे पडटात हें सांगपाक कोंकणी मनीस म्हणटा, 'थिंगूर धरतलो जाल्यार काश्टी ही भिजतलीच', 'बांगड्याचें बोडूक रान्नींत पुरून जेवताली खंय एक म्हातारी,' खंयच्याय मनशान चामटेपणाची तेंगशी गांठल्या म्हण दाखोवपाक, ही म्हण वापरतात.

"भटाल्या घरांत पडभर तरी सुंगटा आसतातूच." जांगेर जें आसूंक जायना

तें आसतकच ही ओंपार मारतात. ‘दर्यात आसा मासो. मोल करता पिसो.’ मेळचे आदींच जेन्ना ते वस्तीचें कोणूय मोल करता वा ताची व्हडवीक करता तेन्ना ही म्हण उपकारा येता. ‘सुंगटा ऽऽ रे, सुंगटां रे! सालोव मेव कुर्व्हारी! करू पांय म्ल्देसुआरी?’ थोडेशे खबर आसतना जेन्ना खंयचोय मनीस आपणाक खूब येता म्हण दाखोवपाक सोदता, आपूण वयल्या थरावयल्यो गजाली जाणा हें दाखोवपाक सोदता तेन्ना अशा मनशाक उद्देशून ही ओंपार वापरतात. आतां तांचीं उमाणी पळोवया.

1. केकले आका, केकले आका
   राती बिती भोवूं नाका
   तुका पळयल्यार म्हाका खातात
   कोण कोणाक म्हणटा सांगात?
   - (आंबाडो सुंगटाक म्हणटा)
2. तकली आसा, केंस ना
   पोट आसा बोबली ना
   कोण सांगात?
   - (माणक्यो)
3. उडत पाखरुं
   बुडत जाय
   बत्तीस शिगां
   छत्तीस पांय. कोण सांगात?
   - (सुंगटा)
4. तेवटेन वयता
   हेवटेन वयता
   आनी बिळांत रिगता
   कोण सांगात?

- (कुल्ली)

5. दर्यात वल्ली नासलेलें तारु.

- (नुस्ते)

कोंकणी गितांनी लेगीत नुस्त्याक सुवात आसाच. हें नुस्त्याचें लग्न. तातूंत कितें घडटा तें पळयात. जशें मनशांच्या संवसारांत घडटा तश्शे. 'शेतूक करवली भायर सरवली. खरचाणी रागान गेली रे पालवा, खरचाणी रागान गेली!'

'गरोवप,' 'फारावप' ही नुस्तेकारांची उतरां आमचे भाशेक धार दितात.

देखीक 'तो गिरेस्तालो चलो पूण तिणे ताका हिकमतीन फारायलो.' आनी कोणा वेपाऱ्याक बरें गिरायक मेळ्ळ्यार तो मनांतल्या मनांत म्हणटा 'आज गरयेक बरे लागले हां.' एकादो मनीस मात्सो आळशी जाता, तेन्ना म्हणटांत 'सामको पोंवशेला मरे हो.' किडकिडित मनशाक आमी म्हणटात, 'सामको सुको बांगडो मरे हो!' एक मनीस आकस्मात गिरेस्त जाता आनी कोणाक वळखना तेन्ना आमी म्हणटात, 'ताच्या दोळ्यांर खवळ आयला.'

कोंकणी मनशाक नुस्त्याची घाण येना, वास येता. घरात कितें नुस्तें आसा काय म्हणून विचारपाचें जाल्यार तो तसो प्रस्न करता, 'आज वासाक किते आसा?' नुस्त्याच्या वासाक कोंकणी मनीस ओडटा तसो तो फुलांच्या परमळाक भुलता. इतलेंच न्ही गोंयचे लोकूच नुस्त्याक पिशे न्ही तर गोंयची सुणीं, माजरां सुद्धा नुस्त्याक पिशीं. नुस्तेकारांचो आवाज आयकलो रे आयकलो कुत्रे आवाजा दिकेन शेपडी तुटसर धाव मारतात. आनी मांजरा तर नुस्तेकाराच्या पायांकडेन वचून 'म्यॉंव म्यॉंव' करतात. नुस्तेकार नुस्ते घाली मेरेन रडत रावतात. अशें हे नुस्त्याचे पिशें आमका सोडात इल्ले इल्ले आतां भटांकय लागत गेलां.

गोंयात जण एकल्याची नुस्ते मेळोवपाची आयडीया वेगवेगळी.

थोडे तर दिपकावणेक वतात आनी थोडे गरोवपाक वतात आपली

कोबलीं, काटाळीं, गरे घेवन. तांच्या गऱ्याक, कोबल्याक, काटाळ्याक कितें नुस्तें फारवता ते घेवन येतात. मागीर घरा थोडे, तर दारांत भोवपी नुस्तेकारांकडल्यान घेतात. ते मागीर नुस्ते मोव जाल्ले वा कसलेय आसू. आनी थोडे तर बाजारांतल्यान ताजें हाडटात.

गोंयकारांची नुस्त्याविशीं आनी एक गजाल म्हटल्यार, आजूनूंय थोडे गोंयकार गांवांनी बांगडे पत्र्यांत (सुक्या पानांत) तणांतूय भाजून बेश्टेच खातात. जर एकल्यागेर कोणागेरूय पाचपरतवण आसलें जाल्यार गांवचे सगळे लोक नुस्त्याखातीर तांगेर जेवपाक वतात. इतले गोंयकारांक नुस्त्याचे पिशें लागला. इतलेच न्ही, गोंयकारांक नुस्तेय वखद आसा कशे ते पळोवया, जर गोंयकारांक कोणाकूय नुस्त्याची रुच येवन गांठ लागली जाल्यार आंबाडे घालून केल्ले सुंगटांचे हुमण हेंच गोंयकारांचे गांठीचेर वखद आसता.

इतलेच न्ही जर तुमी खंयचेय गोंयचे शाळेंत, इश्कोलांत, कॉलेजींनी भेट दित आनी खंयच्याय एका वर्गान लेक्चर फ्री आशिल्या कारणान जर बोवाळ घालीत भुरगीं, जाल्यार तांका तांच्यो टिचऱ्यो म्हणटात, की तुमी खंयच्या नुस्त्यां मार्केटात आयल्यात. कोण कोण सवाय नुस्तें दिता अशें विचारता. ह्या देखा वयल्यान सगल्यांक कळ्ळा आसतलें की, गोंयकारांक नुस्त्याचें कितले पिशें लागलां तें. जरी गोयकारांच्यो रुची तरेतरेच्यो आसल्यो तरी गोयकारांक नुस्तें हे जायच. गोंयकारांचो जिवूच नुस्त्यांचेर आसा. गोंयकार आपल्याक गोंयचे रुचीक नुस्ते खावपाक मेळटा हे अप्रुप मानतात.



# सुर्लाच्या देगणांत

– मिना गणेश पर्येकार

सत्तरी हो एक सोबीत सुंदर जिल्लो. थंय पळोवपासारके म्हळ्यार थंयसल्ले पांचवेचार दोंगर. ते व्हडले व्हडले दोंगर पळोवन मनाक एक आगळीच उमेद येता. सत्तरी तालुक्यातले व्हड दोंगर म्हळ्यार सोसोगड, कातळांची माळी, वागेरी आनी हेर. हे दोंगर सत्तरी तालुक्याची सुंदरकाय वाडयतात.

दर वर्सा अखिल गोंय पांवड्यावयली सैम भोंवडी सत्तरी तार हांगचो ज्ञानसागर कला संघ आयोजीत करता. हे सैम भोवडेंक गोयभरचे लोक भोव उमेदीन वांटेकार जातात. चडशे लोक सवणीं, जनावरां झाडां पळोवंक वतात. फाटल्या वर्सा 23 डिसेंबर 2007 ह्या दिसा ही भोंवडी सुर्लाच्या देगणांत आयोजीत केल्ली. तशें म्हाका रान भोंवडेक वचपाक खूप आवडटालें पूण सैम भोंवडेक हांव केन्नाच गेलें ना. कारण म्हजो बाबा म्हणटालो 'आगो मीना तुज्यान चलपाक जावंचेना, ते व्हडले दोंगर तू चडचेंना, तूं खरशेतलें,' अशे तरेन तो म्हाका सैम भोंवडेक व्हरपाक टाळटालो. अशीच वर्सान वर्स सैम भोंवडी जाताली आनी हांव वचपाक पावनासलें.

ह्या वर्सा हांवे निश्चय केलो, हांव सैम भोंवडेक वतलेंच! ती खंयूय आसूं. अदूं सैम भोंवडी थारली 'सुर्लाच्या देगणांत' हांव सैम भोंवडेक गेले. सुर्लाचे न्हंयतसून वचपाचें आसलें. खूब मजां येतली अशें मनांत खिणभर

चिंतलें. आदले दीस फकत तयारी. म्हटल्यार ज्यो वस्तू लागतात त्यो, प्लेट, कुलेर, चादर, स्वेटर घेतल्यो. दुसरो दीस उजवाडलो. घाई आशिल्यान सकाळीं बेगीनच उठलीं. भयणीन दनपारचें जेवण व्हरपाची तयारी केली. चपाती आनी बांगड्याचें सुकें. णव म्हटल्यार आमी आमच्या घराकडसून पिकअपीन भायर सरलीं. पिकअपींतल्यान आमी साटरें ह्या गांवात आयलीं.

हरशीं खूब लोकांक सैम भोंवडेक व्हरताले. 100 वा जास्त चड म्हटल्यार जाता. पूण ह्या वर्सा तांच्यांनी कमी लोकांक व्हरपाचें अशें थारायलें. आमी फकत 28 जाणां आशिल्ली. म्हज्यो भयणी म्हणटाल्यो, अंदू कोण ना. मजा येवचीना. म्हजी ही पयली सैम भोंवडी आसली. देखून म्हाका खबर नासली, मजा येतली काय ना ती. आमची ही सैम भोंवडी दोन दिसांची आसली. देखून आमकां जेवणाचें सामान व्हरचे पडिल्लें. लोक कमी आशिल्ल्यान सामानूय कमी आशिल्लें. हें सामान सगल्यांकडेन दिताले. कोणाकडेन तांदूळ, नाल्ल, भाजी, दाळ, चणें, साखर अशें वाटप चलतालें. हांवेन भयणीक म्हळें, 'वाटपाक तू आसा मगो? म्हजेर मातशें उपकार कर. म्हजेकडेन ल्हवशें किदेंय दी. म्हजी पयलीच सैम भोंवडी न्हंय? हांव देवाक पांयां पडटालें. म्हजेकडेन ल्हव दिल्यार पुरो. म्हजेकडेन ल्हवच वस्त आयली ती म्हटल्यार भाजी. मातशें मनाक बरें दिसलें. हे सगळें वांटप जातकूच सगळीं सुर्लाच्या देगणां दिकेन वाटचाल करपाक लागलीं.

आमी सगळीं फाटल्यान चलपाक लागलीं. हांव पयलीं भयणी बरोबर चलपाक लागलें पूण ती खूबच ल्हव चलतालीं, देखून म्हाका वाज येवंक लागलो. हांवें तांका फाटीं घातलीं आनी फुडें आयलें. एकदां एकदां हांव एकटेंच चलतालें. पूण म्हाका एकटेंपण जाणव नासलें. तें खळखळपी उदक पळोवन तर नाच. ही उदकांतली वाट आसली खरी पूण हांव उदकांतल्यान चल्लेंच ना. कित्याक तर थंय ल्हान व्हड तळपा आसलीं, तांचेर पाय दवरून हांव चलतालें. ह्या तळपावरसून त्या तळपार उडी मारपाक खूप मजा

येताली. हांवें सैम भोवंडेक लागून मुद्दाम नवें पॅरेगोन चप्पल हाडिल्लें. तें नवें आशिल्ल्यान म्हज्या पांयांक लागतालें. चप्पल लागून लागून म्हजा पायांक फोड आयिल्लो, मागीर आमच्या शेजारच्या गांवांतल्या महादेवान आपलें चप्पल म्हाका दिलें आनी म्हजें आपणें घातलें. मातशें बरें दिसलें. पूण ताच्या चप्पलाचो दिसभर पटो येतालो. तो पटो मागीर महादेव परत परत घालून दितालो.

हांव फुडें चलतालें, म्हूण भयण म्हणटाली, 'फुडे कित्याक चलता आमी फाटल्यान कितली मजा करता जाणा, आमी फोटो बी काडटा जाणा मुगो?' मागीर हांव ताका म्हणटाले 'ती कसली मजा हांव फुडें येवन विसव घेता तें' न्हांवक पावली ना. थंयसरलें उदक फ्रिजांतल्या उदकावरी थंड आशिल्लें. दिसतालें की त्या उदकात उडी मारून फ्रिजांतल्या झेलावरी जावंचें. जे वाट सोदपाक गेल्ले ते परत आयले. पूण वाट मेळ्ळीच ना. आमी मागीर जेवली आनी घरचे वाटेक लागलीं. आमची घरा वचपाची वाट वेगळी आसली. सगळेजाण वाट सोदपाक लागले. वाट सोंदतां सोंदतां सांज जाल्ली. सगळी भियेलीं. पूण हांव भियेलें ना. कित्याक तर म्हाका घरा परत वचपाचेंच नासलें. आमकां सांज जाल्ल्यान घरा पावप शक्यच नासलें. निमण्या वेळार आमकां घरा वचपाची वाट मेळ्ळी, आनी काळोखूय पडिल्लो. सगल्यांनी आपआपल्यो बॅटऱ्यो पेटयल्यो. तर काय जाणांनी लायटर पेटयले. चलतां चलतां नकूलकाका म्हणपाक लागलो 'हांगासर गवेरेडे आसात.' सगळे जाण भियेलें. हांवूय भियले. ताणें सगळ्यांक ओग्गी रावन चलपाक सांगलें. चलयांक फुडें आफयली तेन्ना मात सगळ्यांक खरें दिसलें. आमी जो चडटालो तो दोंगर सामको चडवाचो आनी उबो आशिल्लो. पांय सामके भरून आयिल्लें. चलून चलून आमचीं शक्त उणी जाल्ली. तरी चलतना मदीं बसून बसून चलतालीं म्हूण तितलें कळनासलें. काळोख बरोच जाल्लो. पूण चान्नें आशिल्ल्यान बॅटरेची गरजूच भासली ना. मागीर सगळीं जाणां एककडे

बसून रावपाचो निर्णय घेतलो तो सगळ्याक मानवलो. तशे सगले समजुदार आसले. मागीर एकदाची आमी सुर्ला सड्यार पावलीं. तेन्ना जिवाक सूं जालें. थंय मात्शी बसलीं आनी व्हडलो सुस्कारो सोडलो मागीर सगळ्यांनी मोबायला वयल्यान आपआपल्या घरा फोन करून सांगलें. ते राती आमी सुर्ला नंदी टिचरीगेर रावलीं. तांच्या घरांत जेवण रांदून जेवलीं आनी न्हिदलीं. न्हिदलीं खरी पूण आमकां न्हिदूच लागली ना. थंय इतले थंड आसले की दांतार दांत आपटताले. उज्या कडेन रावल्यार लेगीत थंडी लागताली. सकाळी 'स' वरांचेर उठून च्या पिवन आमी कदंबा बसींतल्यान सांखळे आयलीं. बसींतल्यान वतना आमी खूब मजा केली. जशे कितें ती आमचीच बस. सांखळे देवून देवयानी बसीचेर बसून सरळ आमच्या सुर्लाच्या देगणांत वतना आमकां खूब ल्हान व्हड वझरे मेळटाले, आमी मागीर म्हणटाली, 'हो वझरो हे तर वझरू'. वझरो मेळटकीच एक तरी फोटो काडटालींच. हांगा न्हंयचे देगेंक खूपूच काण्टा आशिल्ली. भंय दिसतालो, काण्टा लागत म्हूण, पूण लागलीना. दनपारां आमी आमचें जेवण केलें. जेवण म्हळ्यार जें घराकडल्यान हाडिल्लें तें सगल्यांनी जेवलें. आमी परत वाटेक लागलीं. चलतां चलतां एक अशी वाट आसली जी सारकी चडावाची. चडपाक लेगीत जायनासलें. हांव हे वाटेक केन्नाच विसरचेना कित्याक तर हांव थंय निसरून पडिल्लें. म्हजी थंय घसर गुंडी जाल्ली. महादेव, उसको म्हण हांव वाटावले ना जाल्यार सकयल पावपाचें. सगळीं म्हाका हांसपाक लागलीं. पूण म्हाका वायट दिसलें ना. हांवेन म्हटलें 'सैम भोवंडेक पडलें ना जाल्यार मजा कसली' आनी फुडें चलपाक लागलीं. चलतां चलतां म्हजें चप्पल तुटलें. म्हजे चप्पल तुटलें म्हण नकूल काका म्हाका म्हणपाक लागलो, 'एकट्या बाबड्याचें चप्पल तुटलें! म्हण्टा थंय आसा तो थंयच निसरून पडलो. तेन्ना गोपी सर म्हाका 'पापी' म्हणपाक लागलो. अशे तरेन आमी मजा करीत करीत चलपाक लागली.

---

सांज पातळपाक लागली मागीर आमी थंयच न्हंय कुशीक रावलीं. थंय जेवण म्हळ्यार चण्याचो रोस, चिटकेची भाजी. जेवण बरेंच रूचीक आशिल्ल्यान आमी भरपूर जेवलीं. खरें म्हटल्यार रानांत कितेंय करून खाल्ल्यार बरेंच लागता, आनी पोटातूय चड वता. मागीर सगळ्यांनी आपआपली वळख करून दिली. पंगड तयार केले. प्रत्येक पंगडाक एक विशय दिलो. तो म्हटल्यार 'सॅझ जाय काय पॅज' ताजेर उलोवप जालें. मागीर जे थकल्ले ते न्हिदले पूण आमी न्हिदली ना. आमी अंताक्षरी खेळपाक लागलीं. थंडी आशिल्ल्यान सारखी न्हिदूय लागनासली. पूण सगळीं न्हिदिल्ल्या कारणान आमकां न्हिदचेंच पडलें. सकाळीं उठलीं, तोंड धुवन च्या पिवन परत चलपाचें वाटेक लागलीं. दनपार जातकूच जेवण रांदले. थंयसान आमकां भायर सरपाक वाट नाशिल्ल्यान आमी थंयच रांदले. पाच-स जाण वाट सोदपाक गेले. थोडे भुरगे थंय न्हाले. आमकांय न्हावन दिसतालें. पूण आमी कपडे व्हरूंक नाशिल्ल्यान आमच्या घराकडे आयलीं. आनी अशे तरेन आमची ही सैम भोंवडी  बरी जाली. ही भोंवडी आमची दिसाची, रातची आनी गाडयेंतल्यानूय जाली. घरा पावतकीच बाबा विचारपाक लागलो 'मीना चडलें, काय जाम जाले' मागीर सगळ्यांनी सागलें ते बरे चडलें, ताणे कोणाकूच त्रास दिवंक ना. तेन्ना म्हज्या बाबाक म्हजी व्हडवीक दिसली.



तिसरें इनाम फावो जाल्लो निबंद

# भारत-आज आनी फाल्यां

- श्रीनिशा नायक

भारत स्वतंत्र जावन आज 60 वर्सा पूर्ण जालीं तरी म्हाका दिसता की आजय आमकां पूर्ण स्वतंत्रताय मेळूंक ना. भारत देशान तर आज शेता-भाटांत, उद्येग, वेपार, संगणक युगान, आय. टी. क्षेत्रान, विज्ञानान, संरक्षणान ह्या सगळ्या क्षेत्रांनी उदरगत केल्ली आसा. पूण केन्ना - केन्ना हांव चित्तां तेन्ना म्हाकां भारताचें फुडलें भविश्य दिश्टी पडपाक लागता. म्हाका दिसता तो फुडलो 40 वर्सांचो काळ, जेन्ना आमच्या भारताक स्वतंत्र जावन शंबर वर्सां पूर्ण जातली.

आज आमच्या भारत देसाची लोकसंख्या पळोवपाक गेल्यार ती आज दुसऱ्या क्रमांकाचेर आसा आनी फुडल्या धा वर्सांनी भारताची लोकसंख्या पयल्या क्रमांकाचेर आसतली. हातूंत कांयच दुबाव ना. आज देसान एक मिनटाक 1000 हजार भुरगीं जन्माक येतात आयज अशीच जर भारताची लोकसंख्या वाडत रावली जाल्यार देसाचे लोकसंख्येचो विस्फोट जातलो. हे लोकसंख्येतल्यान तरेतरेचे प्रश्न निर्माण जातले. जशें की म्हारगाय, बेरोजगारी, चोरऱ्यो, खून, मारामारी, भ्रश्टाचार, अतिरेकीपणा, आत्महत्या अशे कितलेशेंच प्रश्न आसतले. मुखेल प्रश्न आसतलो तो बेरोजगारीचो. लोक बेरोजगार आशिल्ल्यान पयशें हातांत येवप कठीण जातलें. पोटाची

भूक भागना जावन आत्महत्या करतले ना, तर मारामरी, चोऱ्यो, खून, अतिरिकीपणां वाडटलीं आनी सगळेंकडेन नासदूस जातली.

भारत देसान आज भ्रष्टाचार, बंडखोरपणा वाडत वचत आसा आनी ही वाडत रावतली. आज आमी दिसान-दीस खिणा-खिणाक भ्रश्टाचार करतात, पळयतात, आयकतात, वाचतात, उलयतात पूण ताच्या आड वचून झगडुपाची हिमंत कोण करिनात. आमी मनीस दिसान दीस आळशी जायत वचत आसा आनी एक दीस ह्या आळशीं मनशांक वाग खातलो. खातलो म्हणपाचें ना, तो हळू-हळू करून आमकां खांवकूच लागला. तरी पूण आमी मनीस सुदारनात. आमी भायरूच येवंक सोदिनात. आमी जर अशे न्हिदत रावले जाल्यार फाल्यां आमकां उठोवपाक कोण आसतलो? फाल्यां मनीस सुवार्थी जातलो. मनशाक मनीस वळखुपाचो ना. ह्या देसान गिरेस्त-गिरेस्तूच जायत वतले आनी गरीब बाबडे गरिबूच उरतले. आयज आमी जितलीं व्हडली-व्हडली शेंता-भाटां, जमनी, दोंगीर पळयता थंय फाल्या व्हडल्यो व्हडलो इमारती, कारखाने उबें जातले. रानांची-रानां बोडकी जातली. या वाडट्या इमारती, कारखाने आनी लोक संख्येक लागून कोयराची समस्या वाडत रावतली. कोयर वाडटलो तो वाडटलो पूण तो कोयर काडटलो कोण?

पयलीं लोक घोड्या-गाड्यांनी, बैलगाड्यांनी, सायकली घेवन भोंवताले पूण आतां आमी मोटारसायकली, व्हडल्यो - व्हडल्यो गाडयो घेवन भोवूंक लागल्यात आनी फाल्यां आमचेकडेन येतल्यो त्यो सुपरफास्ट बायकी, व्हडल्यो-व्हडल्यो गाडयो, रेल्वे, बोटी, आनी विमानां. लोकसंख्या वाडिल्या कारणान गाडयो चड घोळटल्यो. गाडयो चड घोळिल्यान अपघात चड घडटले. वचत थंय प्रदुषणाचें प्रदर्शन पळोवपाक मेळटलें. प्रदुषणाक आनी कोयराक लागून तरेतरेचीं दुयेसां निर्माण जातली. लोक तरेतरेची दुयेसां जावन मरतले. त्या वेळार आयुश्य खूबच कमी आसतलें. भारताची लोकसंख्या वाडिल्यान लोकाक रावपाक जागो मेळचो ना. तेन्ना रानांनी,

ंगरांनी, शेता-भाटांनी रावपाक लागतले आनी थंयची झाडा-पेडां कापून आपलीं घरा उबी करतले. फाल्यां झाडां नाशिल्यान पावस उणो पडटलो आनी लोक उदकाच्या एका-एका थेब्यांक आशेतले. महानगरांनी, गांवांनी, शहरांनी म्हयन्याचे म्हयने, दिसाचें-दीस नळ मोने जातले. म्हाका अशे दिसता की 'तिसरे म्हायुद्ध' फकत उदकाकूच लागून जातलें.

वयर म्हणिल्या प्रमाण गिरेस्त - गिरेस्तूच जायत वतलो आनी गरीब बाबडो चेड्डतलो. गरीब घाम गळोवन - गळोवन कश्ट करीत रावतलो आनी पयशे पावनाशिल्ल्यान खाणां-जेवणाक वळवळटलो. पूण गिरेस्त आपूण आनी गिरेस्त कसो जातलो हें पळयतलो. आपल्याकडेन पांच पटिंनी हातान पयशे येत जाल्यार तांतूतले अर्द पटीन पगार सुद्धा कामगारांक दिवचोना. गरीब बाबडे दिसाची - रात आनी रातीचो दीस करून पगार वाडपाची वाट पळोवन आपले कश्टी भर रगत मात सुकयतलो आनी ॲनिमिया जावन मरतलो. तर गिरेस्त लोक मात ताकां जगूंक दिवचे नां. वयल्यान तांच्या घामा-कश्टाचें रगत पियेवन - पियेवन आपलो ब्लड-प्रेशर वाडयतले. ब्लड-प्रेशर वडिल्यान ॲटेक येवन मरतले. गरीबं बाबडो रिणां काडून-काडून थंकतले आनी आपल्या फुडल्या पिळगेक संपती दिवपाची साणून रिणूच दितले. गिरेस्त मात आपल्या फुडल्या पिळगेक आनी ताच्या फुडल्या पिळगेक सोंपचेना इतली संपती एकटाय करून दवरतले. हातुल्यान गिरेस्त लोकाची तरणाटी पिळगी मात मटको-केसिनो, जुगार खेळून फोल्गांनीच उरतली. आतां तुमी सांगात, अशें केल्यार आमच्या देसाची फुडे उदरगत कशी जातली?

आज-कालची भुरगीं आपली संस्कृताय, राष्ट्रभास, समाजसेवा हें सगळे विसरून गेल्यात आनी फाल्यां ती हे सगळे राखून दवरतली हाचो नेम आसा? आज जर आमी स्वदेशी पण आपणावन घेतली, दर वस्त म्हळ्यार इमारती, रस्ते, पूल, खाणां-जेवणां, कपडे, हें सगळे परदेशी जाल्यार, फाल्यां कितें?

हो तर म्हज्या विचारांचो भारत देस न्हय आनी हातुंतल्यान कांयच उदरगत जावपाची ना. तर तुमी म्हणटलीं की म्हजे विचार कितें? आनी तातुंल्यान देसाची उदरगत कशी जातली? जातली ती म्हळ्यार अशी :

म्हज्यां विचारांतलो भारत देस म्हळ्यार सुख, समृद्धी आनी उदरगतीचो देस आसतलो. तसो भारत देस आमकां पळोवपाक जाय जाल्यार सगळ्यांत पयलीं आमका लोकसंख्या घटोवची पडटली, म्हळ्यार 'कुटुंब नियोजन योजना'. आपणावची पडटली. भ्रश्टाचार आनी देस विद्रोहीपणां मुळां सकट हुमटून भायर मारचीं पडटलीं. बलात्कार करपी मनशांक, आतंकवाद्यांक, चोरांक, खून, मारामारी करपी मनशांक कायद्यांचे कैदेंत बांदून दवरचें पडटले. विडी-शिगार, तंबाकू-गुटका, सोरो-बियरी ड्रग्ज ना करचे पडटले. मोजके उद्योग धंदे, कारखाने सांबाळून दवरचे पडटले. घरा-दार, खाणां-जेवणा, कपडो-लत्तो सगळ्यांक समान वाटचो पडटलो. आमी ऐकामेकांक सुखां-दुखांक पावचें पडटलें. शेतां-भाटां, दोंगर, जिवीत करचे पडटले. दर शेतकारांक-भाटकारांक आपल्या जमनीचो धनी करचो पडटलो. दर मनशांक शिक्षित जावचो पडटलो. 'सर्व शिक्षा अभियानाक' साथ दिवचो पडटलो. विज्ञान, संगणक आनी आय. टी. क्षेत्रांनी आनीकूय भर दिवची पडटली. राष्ट्रभाशेक तशेच, राजभाशेक मान दिवचो पडटलो. भारताचे आनी भारतांतल्या राज्याचे सांस्कृतिक दायज फुडल्या पिळगेमेरेन पावपाचे पडटले. भारताची सैमाची रुपां आनी तांतुतली निवळसाण भोंवंडेकारांक दाखोवची पडटली. गांवांगांवांत वीज, उदक, रस्ते, शाळा, ग्रंथालयां, संरक्षण खातें बांदचें पडटलें. बेरोजगारांक रोजगार दिवंचो पडटलो. देसांतल्या चलयांक आनी बायलांक बलात्कार करतल्या पासून वाचोवपाक पुलिसाचो कडक बंदोबस्त दवरचो पडटलो. पुलिसांनी दोळ्यांत तेल घालून लोकांची राखण करची पडटली. आमी जर सुखी जावपाक जाय, जाल्यार गांधीजीचे रामराज्य आपणावचें पडटलें. गरीब लोकांची अर्थीक परिस्थिती वाडोवची पडटली.

सगळ्यांक समान हक्क दिवंचो पडटलो. भारतात एकूच जात आनी धर्म आसतलो. आमी सगळो देस एक कुटूंब आसतली ही भावना लोकां भितर रुजोवची पडटली.

राष्ट्रभावना, स्वावलंबी, समाधानी, समाजीक भावना, एक जुटीच्या शक्तीचीं तत्वां लोकांक समजून घेवंची पडटलीं. तेन्ना आमी खऱ्या अर्थान स्वातंत्र्रतायेची खोशी अणभवूंक शकतली. आनी देसाच्या उदरगतीक हात-भार लायतलीं. तेन्ना आमी म्हणूंक शकतली - मेरा भारत महान.



चददें इनाम फावो जाल्लो निबंद

# अशी ती जियेली

– जुझे सिल्वेर

कुजनांतलें बाणसिरें, पांयांची व्हाण, भोग दिवपी वस्त, असल्या साबा नांवांनी बायलेक लेखताले. कुजनांतले बाणशिरें कित्याक, तर बायलेक जाव चेडवाक रांदची कूड सांबाळूंक पडटाली. तिका शिक्षण करूंक इत्सा आसली लेगीत जाल्यार ही तीची उमेद पूर्णतायेक पावनासली. शिकपाची समाजात मान्यताय नासली. चल्यान शिकचें आनी चेड्यान घर-दार सांभाळचें, असलें मन फाटल्या कांय वर्सांनी चलतालें. पांयांची व्हाण कित्याक? समाजात तिका मान आनी दिर्ग नासलो. कसलीय चूक वा कितेंय वायट घडलें जाल्यार बायल पयलीं गुन्यावकारी. तिची कसलीच चूक ना जायत, तिका सगळें सोंसून व्हरचें पडटालें. घाम काडून, कश्ट करून घरांतलें सगळें काम तिकाच पडटालें. एक पावट चवदा-पंदरा पिराय जाली, मागीर सगळी राटावळ तिच्या माथ्यार सुरू जाताली. तिसरें सुवातेर भोग दिवपी वस्त कित्याक? दादलो हेच नदरेंत बायलेक पळेतालो. बायलेची भावना, तिचे उमाळे, तिचें दूख ह्या गजालींचेर भोव थोडो हुसको ताका आसलो. वावराकसून परत येतच बायलेक ताची सेवा करची पडटाली. त्या-त्या वेळार तें-तें जालें ना जाल्यार मागीर बायलेचेर मागीर सांवार जातालें. घोवा कडल्यान गाळीच न्हय तर खोटांचोय मारूय पडटालो. हे परिस्थितींत बायल खंय तरी शेजाऱ्यांगेर

आसरो घेताली. घोव न्हिदतलो वा जागो आसा, ताची वाट पळयत मागीर हळूच तिणे भितर वचूंक पडटाले. आवाज आयलो, घोवाक जाग जाली जाल्यार मागीर परत सगळो खेळ नव्यान सुरू जातालो. फेरयेंतली वस्त जाल्यापरी बायलेक लेखतालो. जाय तेन्ना तिचो वापर करप आनी नाका त्या वेळार तिका पयस दवरप. आमचे भितर भावना, माया, मोग, हुसको ह्यो सगळ्यो भावना आसतात. तेच परी बायलेंतूय त्यो आसात. तिवूय आमचे सारकेली हाडा-मांसाची. दादलो कित्याक विसरता काय? आमकां सांगात जाय तसोच, तिकाय नाका काय? आमकां विसव घेवूंक जाय तेच परी तिकाय तशेंच करूंक नाका काय?

हांव आदल्या काळांत अशें घडटालें म्हणना, पूण हालींच्याच फाटल्या वर्सांनी बायलेची परिस्थिती अशी आसली म्हूण सांगूंक सोदतां. खंयच्याच चल्या लागी उलयल्लें सांपडलें जाल्यार मागीर तिका आनींक सुटका ना. हें सगळें मोन्यानी ती सोंसून व्हरताली. कारण तिका कसलोच दिरेंत नासलो. हीच गत आयज समाजांत बायलेचेर पडत जाल्यार बायल ओगी रावत काय?

बायल एक बीं कशीं, जिचे भितर एके आवयचो रूख आसा, जिचे भितर एके धुवेचें रूप आसा, एके सुनेचेंय रूप आसा. तिचे भितर जल्म दिवची शक्त आसा, मनशाचो दुसरो भाग म्हळ्यार बायल. अशें तर सगले जाणात, जाल्यार दादल्यांक सगलें सूख आनी बायलेक इतलें दूख कित्याक? बायलेक उणेंपण कित्याक दिवप? समाजांत अशेंच कितें घडटा तुमकां दिसना? आदीं एक आवय हे सगळें दूख आपले भितर सोंसून व्हरताली. आपले धूवेक तसलेंच दूख फावो जातलें हाची तिका जाणीव आसली देखून गरबेस्त आसताना लेगीत भिरांतेन जियेताली. घरात चलो जल्माक येवप म्हणचें मोटी खोशी आनी ही खोशी व्हडा घणघणान मनयतात. तेच सुवातेर चली जल्माक आयली जाल्यार तिचें पाडूच पडले. आवयक नाका आशिल्ल्यो

गाळी आनी उणेपण. आवय असक्त देखून चली जाल्या, अशें करून ती गुन्यावकारी थारताली. पुण हातूंत तिचीच चूक, आमच्यांनी कशेंच म्हणूंक जायनात. चली उपरांत लग्नाच्या वयार येतकच तिका चलो पळोवून विंचून काडचो हक्क् नासलो. लग्नाविशीं सगळे आवय-बापायनूच थारावप. पयशांनी धाट आसल्यार पुरो, ताचे गूण, सभाव हाचें कोणांक पडलां? घरच्यांचें उतर मोडूंक नासलें. घोव म्हळ्यार देवा समान थारायताले. घरांत मागीर टाव-टीव जालें म्हणटक्च बायलेक दुसरो रसतो नाशिल्ल्यान, आत्मघात करून आपलो जीव काबार करतताली. भुरगेच पिरायेर लग्न करून तिचें भुरगेपण मारून घेतालीं. थोडीं वर्सां भुरग्यां भाशेन हुसक्या मेकळीं जगूंक मेळटलें आसलें, पूण हीं भावनां खंय तरी चिड्डून उरताली. घोव मरतच तिणें जगून कसलो उपयोग जायत? सती वचून जीव काडल्यार घोवाच्या तरी आत्म्याक शांती आसतली, असल्या विचारांनी बायलेचो संवसार सोंपयताले.

सोंसलें रे सायबा, त्याच बायलानी म्हणून सोंसलें. तीच जरी आयज परत आयली जाल्यार बायल मोन्यानी स्वीकारूंक तयार ना. आयज पश्चीमी लोकांचों, जांव शिक्षणाचो पाठींबो आसा. आपल्याच पांयांचेर उबी रावून बायल आज जगांत फुडाकारान जियेता. आयज तिका समाजांत स्थान आसा. आपलें नांव तिणें समाजांत दवरलां. जायते समाज सेवक बायलांचे जागृताये खातीर वावरतात आनी बायलांक अधिकारान जियेवूंक शिकयतात. बायलांनी शिक्षणीक मळार खुब पदव्यो जोडून घेतिल्ल्यान, उंचलो जागो तिका मेळ्ळा. सगळ्यांकूच न्हय पूण थोड्या गांवांनी उदरगत जावंची आसा. खंयचेंय मळ घे, बायल आसाच. सगल्या वावरांत हुशारकाय दाखोवून वस्तादपण तिणें जोडलां आनी अशे तरेन आपलें अगळेंपण आनी गिन्यानाचें भांडार समाजा मुखार उकतें केलां.

आदल्या काळार कुजनांत संवसार चलयलो पूण आयज कितलो बदल! कचेरीत वावर करून, धंदे लेगीत करून थोड्या गांवांनी बायलो आपल्या

घोवांक पोसतात तें आमकां दिसून येता. बायलेन समाजांत नांव जोडलां जायत पूण कांय प्रमाणांत थोडें वायट आजून लेगीत बायलांक भोगचें पडटा. देखीक बायलांचेर जावपी बलात्कार. वावरा कचेरींत अन्याय, दोत आनी आदी. समाज बदल्ला अशें सहज आमीं म्हणटात, पूण थोडीं पाळां-मुळां आजून कांय प्रमाणांत उरल्यांत तीं दिसून येतात. एका चेडवाक आयज एकटे भोंवूंक जायना. घोण कोंबयेच्या पिलाक खंयच्यानूच झोपय मारून व्हरता तेच परी चलयां सवें अशेंच कितें घडिल्लें आमकां दिसता. बायल आपली भावनां उकटेपणी दादल्या मुखार दवरता, थोडे असल्या संयोगांचो फायदो काडून चलयांचें जिवींत कोडू करून उडयतात. तिका लजेंत उडोवून धा जाणा मदें भोवूंक तोंडा धांपून उडयतात.

चली घरांत आसप म्हळ्यार आवय-बापायच्या भुजांचेर पेज. कारण एकदां वयाचेर तें आयलें म्हणटकूच तीच्या लग्नांक दोतीची वेवस्था पळोवूंक जाय. भांगर-शिंगर घालूंक पयशे एकठाय करूंक जाय. आवय-बापायचें दूख जाता तें सगळें पळोवून कितें भोग जायत चलयेक. तुजेच सवें अशें घडललें जाल्यार तुकां कशें दिसतलें आसलें? असल्या प्रश्नांक तूं कसो फुडो करतलो आसलो? तुकाच ते चलयेच्या जाग्यार घाल आनी नियाळ कर.

धावी मेरेनचें शिक्षण केल्यार पुरो, अशें चिंतपी जायतीं आवय-बापूय आसात. हे विचार काडून उडोवूंक जाय. चलयेक जायते फावटी आवड आसता, पूण ही आवड आमीच काडून कुशीक मारतात. अशें घडचें न्हय. शिक्षणांतल्यान जायतें करून घालोवूंक येता. बायलांनी आपलो ताचो कारभार चलोवून फुडाकार घेवूंक येता. आपुणय समाजांत म्हत्वाची म्हूण दाखोवून आपले हक् सांबाळूंक येता. हालींच्या काळार बायलांनी राजकी मळार उंचेलें नांव जोडलां, तें सांभाळपाची गरज आसा. समाजाचो रंग बदलतलो जाल्यार तुमच्याच हातांत आसा. दुसरो करतलो म्हूण रावल्यार

कांयच जावंचें ना. आळसायेक जावं लजेक लागून खूब बायलो फाटीं आसात. नियाळ करात, चिंतात कारण हातूंत तुमचें बरेपण आनी उदरगत आसा. कारण तुमच्याच फुडाराची गजाल ती, दुसऱ्यांच्या न्हय. पूण तुमच्या हातांत ताचो दोर आसा.



पांचवें इनाम फावो जाल्लो निबंद

# गोंयचो आनी गोंयकारांचो खऱ्यानीच विकास जाला?

– बबीता रायू सावंत

गोड म्हजें गोंय।
सुंदर म्हजें गोंय ।
भोव नामनेचें
चड मोट्या भाग्याचें,
उंच माथें कोकणाचें,
हें म्हजें गोंय...
बळिश्ट झुजप्याचें,
बुदवंत राजकर्ण्यांचे,
वावराड्या कामवटांचें,
कर्तुत्वी मनशाचें
गोड म्हजें गोंय।

गोंयच्या उपाट मोगान भरिल्लीं, तशेंच गोंयकारांचे गूण गावपी हीं उतरां आसात, शणै गोंयबाब हांचीं. खरेंच, गोंय म्हळ्यार सैमाचें एक अप्रूप. जो येता तो गोंयच्या मोगांत पडटा. ह्या गोंयची तुस्त करताना कवी बाकीबाब

बोरकार म्हण्टात की,

"नकळ गोंयांत आसा कितें, एक मात खबर म्हाका,

एकदां गोंया पाविल्ल्याक परतें गोंय सोडूंक नाका!"

अशीं आनीक कितल्याश्याच कविंनी गोंयच्या सैमाच्या मोगांत पडून कवनां रचिल्लीं आसात.

गोंयाक पोर्तुगेजांच्या शेकातळांतल्यान सोडोवपाखातीर कितल्याश्याच लोकांनी आपल्या रगताची, सुखाची आहुती दिली आनी सर्वस्वाचो त्याग केलो आनी निमाणेकडेन तें गोंयाक मुक्त करपांत जैतिवंत जाले. गोंय एक सुपूल्लें आनी माणकुलें राज्य आनी आयज ह्या गोंय राज्याची परिस्थिती जर पळयत जाल्यार प्रश्न पडटा खरेंच शणै गोंयबाबान आपलें कवितेंत म्हणिल्ल्याप्रमाण गोंय बुदवंतराजकर्ण्यांचें. पूण आयज ते राजकारणी आसात ते फकत आपल्या बुदवंतपणाचो उपेग करतात आपली खुर्ची तिगोवन दवरपाखातीर. गोंय परक्यांच्या शेकातळांतल्यान मुक्त जालें खरें पूण सगळ्यांनी मेळून गोंयचो विकास आनी ताची उदरगत करुंक एकचारान वावुरचेबदला गोंयकारांमदीच घोस जाली. गोंयांत कोंकणी - मराठी, लिपी, भाटकार-मुंडकार सारके गोंयची भलायकीच व्हगडावन उडोवपी वाद निर्माण जाले आनी ह्या आपसांत जाल्ल्या वादांच्या बोवाळांत एकचाराचें, न्यायाचें, सोबीत, सुंदर गोंय घडोवपाचें ते विसल्ले ते विसल्लेच, ते आयजमेरेन थाऱ्यार आयलेनात. तशें पळोवंक गेल्यार गोंय राज्य खंयचे वटेन भरकटत चल्लां तें सांगप भौव कठीण.

गोंय राज्य ल्हान आसले तरी सगळ्यांक तरेकवार अडचणींक लागून झगडचें पडटा. पुण गोंय राज्य ल्हान आसलें तरीय गोंयची नामना खूब व्हडली आसा. राज्यांत 40 मतदारसंघ आसात. हांगाच्या मंत्रिमंडळाचेर लाखांनी रुपया खर्च जातात. हे दुडू कोणाचे? हाचेर सरकार विचार करनात. हे मंत्री भायल्या देसांचे दौरे करून लोकांच्या पयशांचेर खेळ खेळटात. ह्या

मंत्रिमंडळाचो आवाठ ल्हान करून करून गोंयचो आधुनिक पद्धतीन विकास करूं येता. अशें करून बऱ्यो सुविधा मेळपाक शकता. दर एका मंत्र्याक एक गाडी, बऱ्यो व्हड बंगल्यांनी रावप, भाशणां करून गरीब लोकांक सांगप, 'आमकां तुमचें दुख्ख कळटा. हाचेखातीर आमी आमचेपरीन यत्न करतलें' असलीं हीं हवेंस विरगळून वचपी उतरांनी गोंयचो आनी गोंयकारांचो विकास जावचो ना.

गोंयचे राजकारण दिसान दीस वादाच्या भोंवऱ्यांत आडखळत आसा. खुर्चेफाटल्यान सैरभैर धांवपी विधानसभेचे वांगडे लोकाचें हीत कुशीक दवरून स्वतःचोच विचार करपात गुल्ल आसतात. आसले हे लोकप्रतिनिधी गोंयचो आनी गोंयकारांचो विकास खंयचो करतले? ध्येय धोरणांत समानताय नाशिल्ल्या गटांनी एकठांय येवन रचिल्ल्या सरकाराचो फुडार सदाच अनिश्चित आसता, कित्याक तर तें सरकार आदल्या सरकारांक कोंसळवपाच्या, सत्ता मेळोवपाच्या हावेसान जल्माक येतात. हातांत आशिल्ले ताचेपरस आयज चड मेळचें ही दर एकल्याची इत्सा. आमदार मंत्री जावपाक, तर उपमुखेलमंत्री तो मुखेलमंत्री जावपाक आंवडेता.

'झाडाच्या मुळाकूच जंय कीड लागल्या थंय नवो चंवर येवपाचो प्रस्नुच येना. जंय सरकारूच थीर ना थंय उदरगत कसली जातली? जोमेरेन हे राजकारणी लोक निसुवार्थीपणान कामां करचेनात तो मेरेन गोंयचो खऱ्या अर्थान विकास जावचो ना.

आयज बेकारी हिसपाभायर वाडिल्ली आसा. अत्याचार, अपघात, गुंडागिरी, मोर्चे, संप अश्या कितल्याशाच प्रश्नांक आमकां तोंड दिवचें पडटा. आयज ल्हानशें काम करून घेवपाखातीर लेगीत वशिलो लावचो पडटा, शिक्षण घेवन महाविद्यालयांतल्यान नोकरेचे आशेन भायर सरपी विद्यार्थ्यांक नोकरी मेळना आनी निर्शेवन मागीर तो वेंसनाच्या विळख्यांत सांपडटा. आयच्या काळांत सरकारी नोकरी मेळपाखातीर पन्नास हजार ते एक लाख

मेरेन लांच दिवंची पडटा, जाल्यारूच सरकारी नोकरी. अशा वेळार शिक्षणाचो कितें उपेग? जांचेकडेन शिक्षण आसा, बुद्द आसा, काम करपाची जिद्द आसा पूण पयसो ना ताचें कितें? तांकां नोकरी खंयची मेळटली? सरकारान हाचेखातीर कितेंय तरी उपाय काडून रोजगार तयार करून गरजेवंतांक लाब मेळोवन दिवपाक जाय. नोकरी दिताआसताना त्या मनशाची बुद्द, शिक्षण पळोवन दिवंची आनी न्हय ताची लांच दिवपाची कुवत.

आयज मनिसपणाक काळें फांसपासारक्यों घडणुको घडटात. सरकार मोन्याचो अवतार धारण करता. आयज जाती-धर्मांचो उपेग करून कांय जाण निवडणुको लडयतात. आनी जातिवाद, भाशावाद, गरीब-गिरेस्त अशें तरेचे प्रश्न राजकारणीय तयार करून आपलें सादोवन घेतात. गोंयात घडपी रॅगिंगचे प्रकार तर महाभयंकर. असले हें गोंयात घडपी दुर्दैवी प्रकार पळोवन आंग शिरशिरता. गोंय सरकारान हाचे आड खर पावलां उखलपाक जाय. रॅगिंगाक लागून फायच्या जबाबदार नागरिकाचो पुराय फुडारूच प्रश्नचिन्ह जावन पडूं येता. ही रॅगिंगाची कीड मुळासकट ना करपाखातीर कडक कारवाय जावपाक जाय.

आयज आमीं पळयतात की गोंय राज्य कितल्याश्याच संकश्टांच्या विळख्यांत सापडिल्लें आसा. गोंयांत आयज अशें चित्र आसा की हें मंत्री गोंयची उदरगत करपाच्या नांवान कोट्यांनी पयशांचें रीण घेतात. रस्त्याक खड्डे पडून अपघात जातात. पूण हे विशीं कोण चिंतच ना. रस्ते करतात, पूण पक्के न्हय, कच्चे. हाचें कारण निकृश्ट दर्जाचें सामान वापरून बांदकाम करप आनी थोडे पयशे कॉन्ट्रॅक्टराच्या बोलसांत तर उरिल्ले मंत्र्याच्या, अशें तरेन मंत्रीबाब भौसाच्या उदरगतीखातीर घेतिल्ल्या पयशांचो निजी सुवार्थाखातीर उपेग करतात.

आयज गोंयची राजभास म्हूण जरी कोंकणीक मान्यताय मेळ्ळी, तिचो संविधानाच्या आठव्या परिशिश्टात आस्पाव जाल्लो आसलो, तरीय

आयज भाशणां इंग्लिशिंतल्यान जातात, वेव्हार लेगीत. थोडे गोंयकार तर आजुनुय 'कोंकणी' गोंयची आवयभास म्हूण मानिनात. आनी एक कारण म्हळ्यार कोंकणी माध्यमांतल्यान शिकयतात अशा शाळांखातीर सरकार अनुदान दिता. पूण कांय अश्यो शिक्षणीक संस्था आसात, त्यो सरकाराक माध्यमाच्या नांवांखाला फटयतात. कोंकणींतल्यान शिकयता अशें भासोवन मुदलांत इंग्लिशिंतल्यानूच शिकयतात आनी सरकाराकडल्यान कोंकणी खातीर अनुदान घेतात. ही शिक्षणीक संस्थांनी चलपी नखलामी थांबपाक जाय.

आयज आमीं आमच्या भोंवतणी नदर मारीत जाल्यार कळून येता की लोकांक दिल्ल्यो अपुऱ्यो सवलती, पावलां कणकणी जावपी भ्रश्टाचार, आयची म्हारगाय, रोजगाराच्या उदरगतीच्या मळार सवलती खातीर घेतिल्ल्या रिणाचो गैरफायदो, अश्या जायत्या जाळ्यांनी सांपडिल्ल्यान गोंयकार तकली वयर काडपाकूच शकना.

अशा वेळार गोंयकारांचो आनी गोंयचो विकास जावपाक वाट उरताच खंय?



# संग्रहांत आस्पाविल्ल्या साहित्याच्या रचनाकारांचे नामे

**विकास प्रभू**
काजलकर, लोलयें,
काणकोण, गोंय - 403728
फोन नं. : 2640181

**रेश्मा सुर्लेकार,**
जी. वी. एम्. शिक्षक प्रशिक्षण
महाविद्यालय, फोंडें - गोंय

**मार्कोस गोन्साल्वीस**
आर्लें, राय, साश्ट - गोंय
मो. : 9422441201

**तन्वी श्री. कामत बांबोळकार**
बांदोडें, फोंडें, गोंय

**लिडिया फेर्नांडीस**
पयलें वर्स बी. ए.
सरकारी महाविद्यालय,
केपें, गोंय

**स्वाती चंद्रकांत बोरकार**
श्री सरस्वती उच्च माध्यमीक विद्यालय
कवळें, फोंडें, गोंय

**बबीता रायू सावंत**
घर नंबर 100, मदलोवाडो,
सर्वण - दिवचल, गोंय

**जोफा गोन्सालवीस**
घर नं. 1979, गोंयदळ, पैंगीण,
काणकोण, गोंय - 403702
मो. 9921056405

**मेल्कम डिकोस्ता**
पयलें वर्स बी. ए.,
सरकारी महाविद्यालय,
केपें - गोंय

**लालन मेघःश्याम पालयेकार**
कडसाल, खांडेपार, फोंडें - गोंय

**मिनीन आल्मेदा**
घर नंबर 525, उयांमळ,
फातोर्डे - मडगांव, गोंय - 403602

**ऑल्नीस रॉड्रीगीस**
तिसरें वर्स कला, रोजरी महाविद्यालय
नावेली, साश्ट, गोंय

**मिना गणेश पर्येकार**
धेंपे कॉलेज ऑफ आर्टस् अँड सायन्स,
मिरामार, पणजी - गोंय

**जुझे सिल्वेरा**
एम्. ए. पयलें वर्स,
गोंय विद्यापीठ

साहित्यकाराक स्वाध्यायूय खूब गरजेचो. बरोवप ही एक कला : ही कला म्हज्यात आसा, एक दीस केन्ना तरी म्हाका बरोवपाची प्रेरणा मेळटली आनी म्हज्यांतली ही कला फळटली अशें लेखून, (रॉलॉ बार्थाचीं उतरां उश्णी घेवन) 'happy owners of talent' कशीं जियेवन आमी बरीं साहित्यीक जावंक पावची नात. आमचे कडल्यान बरें साहित्य निर्माण जातलें जाल्यार आमचे भितर आशिल्लें कलेक, प्रतिभेक उदक सारें मेळत रावंक जाय. वाचनांतल्यानूच बरें साहित्य खंयचे आनी कसलें, बरें साहित्य बरें कित्याक, सारकेल्या प्रस्नांच्यो जापो इल्ल्यो करून आमकां आपले आपूण होलमूंक लागतात आनी हातूंतल्यान बरोवप्या भितर एक समिक्षक मूळ धरूंक लागता. हो/ही समिक्षक आमची लिखणी सक्षम करता.

जायते फावटी, बरी साहित्यकृती वाचले उपरांत, प्रभावाचें वागरें पडिल्ले वरी, वाचतल्याची लिखणी मोनी जाता. पूण अशें तरेचे कितलेशे प्रभाव पचोवन बरोवप्याची लिखणी अदीक तांकीवंत जाता. कितें तरी नवें निर्माण करूंक पावता. 'The Anxiety of influence - a Theory of Poetry' (1983) ह्या समिक्षेच्या मळार खूब गाजिल्ल्या पुस्तकांत हॅरल्ड ब्लूम एक म्हत्वाचो विचार मांडटात. ते म्हणटात, कवितेचो इतिहास आनी कवितेचो प्रभाव ह्यो दोन गजाली एकामेकांपासून वेगळ्यो काडूंक नज. कवितेचो प्रभावूच कवितेक घडयता. आनी हे ब्लूम आपणाल्या पुस्तकांत सिद्ध करून दाखयतात.

देखून, आमचे साहित्यकृतीची साहित्याच्या इतिहासांत कुरू उरतली जाल्यार हेरांच्या साहित्यकृतीचो प्रभाव आमचेर पडूंक दिवप गरजेचो, बरी संस्कृती मळबांतल्यान पडना. वेगळ्या वेगळ्या प्रभावांचें उदक सारें मेळटकच थळावे मातयेंतल्यान ती कोमेता, आंकरेता.

**डॉ. माधवी सरदेसाय**
संमेलनाध्यक्ष
णववें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन